# दुडवांचो मोग

(2008-2009) वर्साचे पाय तियात्रीस्त जुवांव आगोस्तीन फेर्नांडीस
तियात्र लेखन सर्तित पयले इनाम फावो जाल्लो तियात्र

बेनिसियो वितोरीन पेरैरा




गोवा कोंकणी अकादेमी,
पणजी - गोंय

# दुडवांचो मोग

बेनिसियो वितोरिन पेरैरा

प्रकाशन क्र. : 155



पयली आवृत्ती : 2011

उजवाडावपी :
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय 403 001.

छापपी :
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स,
मार्शेल, गोंय

मुखचित्र : गौरीश वेर्णेकार

मोल : रु.50/-

# DUDVANCHO MOG

Benicio Vitorino Perera

**Publication No. :** 155



**First Edition : 2011**

**Publisher** :
Goa Konkani Akademi,
243, Patto Colony,
Panaji, Goa.

**Printer :**
Swarnamudra Prints,
Marcel, Goa.

**Cover :** Gourish Vernekar

Price : Rs. 50/-

म्हजो

मायेमोगाचो इश्ट
लोकांखेळाचो डायरेक्टर
दुमींग मास्कोरेन्हास, मुगाळी,
'सांत जुजे आरीयल
हाच्या उगडासाक भेटयतां.

- बेनिसियो

# अकादेमीच्यो उंचल्यो अपेक्षा

बेनिसियो वितोरीन पेरैरा सेगीत तिसरें खेप तियात्र सर्तीत जैतीवंत जाल्लो आसा. गोवा कोंकणी अकादेमीन 2007-2008 वर्साचे 'पाय तियात्रीस्त जुआंव आगोस्तीन फेर्नांडीस तियात्र लेखन सर्तित ' ताचो पयलें इनाम फावो जाल्लो तियात्र 'आशिर्वाद' देवनागरीत हाडलां आनी आतां 'दुडवांचो मोग' हो तियात्र देवनागरी लिपीत उजवाडाक हाडपाची संद गोवा कोंकणी अकादेमीक मेळटा.

रोमी लिपींतल्यान आयिल्लें बऱ्या दर्जाचें बरप मागीर तें तियात्र आसूं वो कथा - कविता आसूं कादंबरी वो निबंध, सगळ्या वाचप्यांक ताचो आस्वाद घेवपाक मेळपाक जाय. पोल ते हुंबता, धड तें उरता. धड आसता तो दाणो, ताचें शीत जाता, शीत पोट भरता. पोलाचो कुंडो -भुसो जाता. देखून कोणेंय कितेंय बरयलें ते सगळेंच धड जायना, म्हळ्यार ते दर्जेदार थरना. दर्जो काळ थारयता, वाचपीय थारायता. हें हांव हांगा कित्याक बरयतां, खूब जाणांक दिसता, आपूण जें कितें बरयता ते सर्वोत्कृश्ट, ताका अशें दिसपाक कारण तांणें खरें भात पळयिल्लें अशें नासता, पळयिल्लें आसता फक्त पोल. देखून खंयचेय लिपीत बरयलें म्हणून ताका दर्जो आसताच अशें नासता. दर्ज्याचो आनी लिपीचो कसलोच संबंध नासता. दर्ज्याचो संबंध साहित्यांत उक्त्या जाल्ल्या विचारांकडेन, विचारांचे प्रगल्भतेकडेन, ताचे खोलायेकडेन आसता. वैचारीक खोलाय आनी प्रगल्भता कोंकणी बरोवप्यांकडे आसूंक जाय. हे खातीर अमकेच लिपींत बरोवपी आसूंक जाय अशें कांय ना.

कोंकणी तियात्रान शंबरी हुंपल्या ही गजाल मतीत धरल्यार आयज तियात्र भारतीय रंगमाचयेर खूब आघाडेर आसपाक जाय आसलो. गोवा कोंकणी अकादेमी होच हावेस बाळगून तियात्र लेखनाची सर्त आनी लिप्यांतराचो वावर करीत आसा.

वितोरीनबाबान सातत्यान तियात्र लेखन करून गोवा कोंकणी अकादेमीक खूब सहकार्य केलां, तेखातीर गोवा कोंकणी अकादेमी तांच्या उपकारांत आसा. ह्या निमतान गोवा कोंकणी अकादेमी तियात्राच्या मळार उंचल्यो अपेक्षा बाळगून आसा.

**एन्. शिवदास**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी




# खोशेचीं दुकां

तियात्रीस्तांक उर्बा आनी प्रेरणा मेळून तियात्र माची तशेंच कोंकणी भाशेचो विकास करूंक गोवा कोंकणी अकादेमी दर वर्सा तियात्र हात बरोवपाची स्पर्धा घडून हाडटा. बरी गजाल. लिपिचो कसलोच भेद-भाव करिनासतना स्पर्धा घडोवन हाडटा, तेखातीर गोवा कोंकणी अकादेमीची तोखणाय करूंक फावता.

गोवा कोंकणी अकादेमी तियात्र हातबरपां वेग - वेगळ्या परिक्षकांकडे दिता आनी परिक्षकांच्या मताप्रमाणे निकाल थारता. 2008-2009 आनी 2010 ह्या सेगीत तीन वर्सा हांवे बरयिल्ल्या ' आशिर्वाद', 'दुडवांचो मोग' आनी 'लोकशाय' ह्या तीन तियात्रांक पयलें इनाम फावो जालें. नंतर मात हांवे आनीक तियात्र स्पर्धेक भाग घेवंक ना. आनीकय इनाम फावो जाल्लें तर दुसऱ्यांक तशेंच म्हाकाय बरें मानवना आशिल्लें आनी दुसरें कारण नवोदीत तियात्र बरोवप्यांक संधी मेळूंक जाय, हो म्हजो हेतू जावन आसा. हो हेतू सुफळ जावंक अथरेकतां. सत सांगतलो तर हांवें इनामाक सुलसळून स्पर्धेक भाग घेवंक नाशिल्लो; पूण पयलें इनाम फावो जाता तो तियात्र पुस्तकरूपान उजवाडाक हाडपासारखी म्हजी अर्थीक तांक तितली घट्ट ना, आनी तितल्या राटावळी म्हज्याकडे जांवच्यो नाशिल्ल्यो.

पळोवंक गेल्यार वर्सा कणकणी आमचे तियात्रीस्त शेकड्यांनी तियात्र माचयेर सादर करून दाखयतात. तांतुतले पुस्तक रूपान भोव थोडे उजवाडाक येतात. रोती लिपींत थोडेशे आसात; पूण गोंयची राजभास कोंकणी आनी तिची स्वभाविक लिपी देवनागरी. (हें सत कोणूय मानून घेवं ना घेनाका; पूण सद्याक अशी परिस्थीती जावन आसा हें सत.) ह्या देवनागरी लिपींत मात कोणेंच तियात्र छापून उजवाडाक हाडूंक ना. तो म्हत्त्वाचो वावर फक्त गोवा कोंकणी अकादेमी करता. समेस्त कोंकणी वाचप्यांक तियांत्रांची खोलाय आनी उंचाय समजूंक आदार जावं येता. तशेंच फुडले पिळगेक तियात्रांचें खाशेलेपण, व्हडवीकाय, दायज कळूंक मजत जातली. तेखातीर गोवा कोंकणी अकादेमीक व्हड आनी चड परबीं फावता.

'आशिर्वाद' ह्या म्हज्या पयल्या तियात्र पुस्तकाचें गोवा कोंकणी अकादेमीन 23 ऑगस्ट, 2010 ह्या म्हज्या जल्म दिसाक मुद्दाम म्हज्या गांवांत 'उतोर्डे' हांगा विमोचन सुवाळो व्हडा दबाज्यान घडोवन हाडलो; आनी म्हाका तशेंच म्हज्या घरच्यांक व्हड खोशेचो धक्को दिलो. त्या वेळार म्हज्या दोळ्यांनी खोशेची दुकां भरलीं. तो उगडास ताजो आसतानाच आतां 'दुडवांचो मोग' तियात्राचें पुस्तक

गोवा कोंकणी अकादेमी उजवाडाक हाडटा. हे सारखी आनी म्हाका दुसरी खोशेली गजाल ना. हें  पुस्तक वाचप्यांनी वाचून कितें आनी कशें बरयलां तें जाणा जावन घेवंक समेस्त कोंकणी वाचकांक नमळायेचें मागणें.

निमणें गोवा कोंकणी अकादेमी आनी तिच्या जाळवणदारांक व्हड तकालस घेवन पुस्तक उजवाडाक हाडलें म्हणून व्हड उपकारी जावन देव चड आनी चड बरें करूं आनी तांच्या कामांनी बरें यश मेळूंक मागतां. तुमकां सगळ्यांक बरें मागून...

बेनिसियो वितोरीन पेरैरा
20/10/2011 - उतोर्डे, गोंय.

# पयलो भाग

## पयलो पड्डो
## (पयलो देखावो)

## दर्याची वेळ

(वेळेर लोक, मोग करणाऱ्यो जोडयो. क्लेसी,रोहन, रॅनात. रोहन, क्लेसी प्रेमगीत म्हणटात. रॅनात कुशीक रावन आयकता.)

गीत पयलें

क्लेसी : पळय रोहन कितलो सोबीत दिसता दर्या.
रोहन : त्या दर्यांत आतां लिपोंक वेता सूर्या.
क्लेसी : त्या सुर्याक गवाय दवरुन मोग आमी करया.
रोहन : फुडले जिवित दोगांय सांगातान सारया.
रोहन : घरच्यानी आडखळ केल्यार कितें करतलें.
क्लेसी : सगळे सोडून तुज्या सांगातान येतलें.
रोहन : असोच म्हजो मोग करीत सुखान तूं आसतलें.
क्लेसी : तू राजा आनी हांव राणी जातलें.

कोरस

दोगांय : एकामेकांक दोगांय सुखान भरया.
आडखोळींचे कांटे भायर मारुंया.
केन्नाय रागाच्या नेटान पडचें न्हय भिरीया.
एकवोट जायना तर सांगातान मरुंया.
एकवोट जायना तर सांगातान मरुंया.

क्लेसी : माय डार्लींग (उमो घेवन) फाल्या ह्याच जाग्यार, ह्याच टायमार मेळोंक विसरों नाकाय.
रोहन : माय स्वीट हार्ट! हांव कोणाकूय आनी कितेंय विसरोन, पुण तुका आनी तूं सांगता तें केन्नाच विसरचोना.

| | | |
|---|---|---|
| क्लेसी | : | ओके दॅन बाय ..... टाटा ... |
| रोहन | : | सी यू टुमॉरो. फाल्या मेळुंया. (दोगाय दोनूय वाटांनी वेताना क्लेसी परत परत रोहनाक पळयताना क्लेसीच्या फुडें रॅनात दुखेस्त सो येवन रावता.) |
| रॅनात | : | क्लेसी बाय तुका कितें सांगोंक जाय. |
| क्लेसी | : | (अजाप जावन) म्हाका? हांव तुका वळखना. |
| रॅनात | : | म्हाका तुजो डॅडी, मम्मी पुराय वळखतात. तूं वळखनाय? काय नज. (सुस्कारुन) पूण तूं आतां जाचे वांगडा डान्स करतालें ताका तरी सारखो वळखताय? |
| क्लेसी | : | (बेपर्वायेन) हें म्हाका विचारुंक तूं कोण? |
| रॅनात | : | तुज्याच सारख्या एका निर्भागी चेडवाचो भाव. म्हजे भयणीक ताणें तुजेच परीं मोगाच्या उतरांनी भुलोवन, काजार जाता म्हूण सोपूत दिवन; ताच्या हातांतलें, गळ्यांतलें, कानांतलें भांगर व्हरोन (खंतीच्या उतरांनी) म्हजे भयणीक गर्भेस्तपणाच्या भेसार पावोव सोडून दिलें. |
| क्लेसी | : | आनी ताच्या कुसव्यांत आसलेले भुरगें? |
| रॅनात | : | (सुस्कारुन) भुरगें? भयणीक जायतीं जाणां सांगतालीं, 'ॲबोर्शन' करून मेकळे जा म्हूण. पूण म्हजे भयणीन भुरग्याच्या खुनाचें पाप नाका म्हूण गर्भपात करूंक ना. आपल्या नीज मोगाची निशाणी सांबाळपाचो विचार केलो. |
| क्लेसी | : | मागीर . |
| रॅनात | : | वायट नशीबान तें भुरगें जल्मतांनाच ह्या संवसाराक सोंपलें! ताका मोरोण आयलें. |
| क्लेसी | : | आनी तुजी भयण? |
| रॅनात | : | त्या दिसासावन म्हजी भयण एक मेल्लें मडें कशें एकसुरपणी जियेता. (संतापून) त्या दळदिऱ्यान ताची खबर पासून घेवंक ना. |
| क्लेसी | : | तू कोणाची गजाल सांगताय? |
| रॅनात | : | तूं आतांच जाच्या सांगातान मोगाचो डान्स करतालें त्या नश्ट्या गुंड रोहनाची. |
| क्लेसी | : | (तापून) शट अप. ओगी राव. म्हजो रोहन तसलो न्हय. |
| रॅनात | : | पयस रावोन दोंगोर सोबीत सुंदर दिसतात. पूण त्याच दोंगरांनी |

चलून भोंवताना कांटे खुंटे तोपतात आनी फातर गुंड्यांक आपटून भुंयेर पडटा, तेन्नाच 'दिसता तशें नासता' हे म्हणणेचो अर्थ कळटा!

क्लेसी : म्हाका म्हज्या रोहनाची पुराय खात्री आसा.

रॅनात : सॉमीया, जेझु क्रिस्ताचोय जुडास एस्कारीओताचेर पुराय विस्वास आसलो. पूण ताणें विस्वासघात करून जेझु क्रिस्ताक विकलो. हें आमी पवित्र पुस्तकार वाचून जाणात न्हय?

क्लेसी : तूं कितें म्हणूंक सोदताय? रोहनाविशीं म्हज्या मनांत दुबावाचें विख घालून तुका कसलो फायदो?

रॅनात : म्हाका कसलोच फायदो ना. तुज्याच बऱ्याक शिटकायतां. तूं रोहनाक विसरुन....

क्लेसी : (रागान) तुजो मोग करूं? (दुखाचो धक्को बसून पूण शांतीकायेन)

रॅनात : नाका बाय नाका. मळबावेल्या चंद्रीमाचो रुपकार बांयच्या उदकांत पळोवन चंद्रीमाक हातांत धरुंक चिंतप हें व्हड पिशेंपण! तूं बरें रुपेस्त. एक मान अब्रु आसलेल्या गिरेस्त आवय बापायचें चली! तूं म्हज्या सारख्या गरीबाक फाव न्हय. आनी रोहनासारख्या तवनाशी गुंडाक.

क्लेसी : ए ऽऽ मिस्टर, तोंड सांबाळून उलय. तूं उलयताय तें रोहनाच्या कानांनी साधत तर? ...

रॅनात : तो आनीक गुंडांक सांगाताक घेवन म्हाका मारीत! पुण हांव सत उलोवंक कोणाक केन्नाच भियेना. म्हजे भयणीपरीं तुजो फुडार ताणें पिसुडलेलो म्हाका नाका.

क्लेसी : तुजे भयणीक कोणे फटोवन त्रासांत घातल्या देव जाणा ... म्हाका आनीक तुजें कांयच आयकुपाचें ना. (वचपाची हालचाल करता.)

रॅनात : राव आनीक मात्शें. आयक. मोग खंय कुड्डो! त्या कुड्ड्या मोगानूच तुका पिशें केलां. आतां तुका कांयच समजुचेंना. पूण समजतलें तेन्ना उपाय आसचो ना.

**(क्लेसी वेतानाच स्टॅजीर काळोख पडटा.)**

## (दुसरो देखावो)

### रस्तो

### (टींकल गीत म्हणत नाचत येता.)

### गीत दुसरें

टींकल : **चोयाय रे चोयाय गो हांव देखणी नाचोतां**
**चोयाय रे चायाय गो हांव देखणी नाचोतां हांव देखणी नाचोतां**
**काय बोरें दिसोतां चेड्यांकोडे उलोयना पूण तेंकोन बोसोतां.**
(एम. आर. एफ. ताच्या फाटोफाट येवन ताच्या केंसाचेर पावडर मारून आपुणूय नाचता.)

**कोरस**

**मौजेन सारुंक जाय आमी कार्नाव्हाला दीस.**
(नाचत टींकलाचो कीस घेवन)
**चेडवानी अशे चेडवांक दीवंक जाय कीस.**

टींकल : रस्त्यार कीस घेताय सिव्हीलदाद नासलोले मुनीस.

एम. आर. एफ. : रस्त्यार नाचतल्या चेडवांक ना रीत रोवीस.
(पावडर मारीत हासता.)

टींकल : आरे –आरे. म्हजो कीस घेता आनी पावडर कित्याक मारताय?

एम. आर. एफ. : आयज कार्नव्हाल म्हूण गो!

टींकल : (तोंड काळे करून) कार्नव्हाल जाल्यार रस्त्यार चेडवांचे कीस घेताय?

एम. आर. एफ. : आनी रस्त्यार चेडवां एसकोर्न नाचताय?

टींकल : फाल्या पणजे नाचोंक 'प्रेक्टीस कोर्ता'

एम. आर. एफ : (लोकांक पळोवन आपुणूच) हें सारखें पारपोळ चेडू दिसता. (उगतेपणी) पणजे पुला सकयल दर्यात बुडोवपाक जाय. ते तुमचे फ्लॉट ओव फ्लॉट (उमेदीन) काय बरो आदलो इंत्रुज कार्नाव्हाल आसलोलो. चेडवां चेड्यांभशेन कलसावां, खोमीसां घालतालीं आनी चेडे कशे दिसताले. चेडे व्हीस्तीद, ब्लुझां, हो भेस घालून चेडवां कशे दिसताले. जमनीर खेळ, नाचताले. चेडे चेडवांचेर

पावडर मारताले. चेडवां, बायलांचेर उदोक रकयताले. पूण वर्साक फकत तिनुज इंत्रुज कार्नव्हाला दीस. आतां कितें? चेडे–चेडवां वर्साक तिनशें साठ आनी पांचूय दीस इंत्रुज कार्नव्हाल कोरताय.

टींकल : (अकस्मात आपल्या पोटाक धरून) आवयस, आवयस म्हजे मांय

.एम. आर. एफ. : कित जालें गो?

टींकल : म्हज्या पोटांत दुखोता

एम. आर. एफ. : कित खायलोले? बोरकोये गोरे?

टींकल : ना.

एम. आर. एफ. : पोपाय खायलोली?

टींकल : ना. सालदोटे केळे खायलोलें अंकल.

एम. आर. एफ. : (धक्को बसून) अंकल? तूं म्हाका अंकल म्हणटा? हांव अंकल आनी तूं कोण टींकल?

टींकल : (मुर गोटून) म्हजे नाव टिंकल म्हूण तुका कीत कोर्न कळ्ळें अंकल?

एम. आर. एफ. : आगो अंकल? अंकल म्हणपाक हांव कितें म्हातारो जालां गो? म्हाका एम. आर. एफ. म्हुणटात.

टींकल : तूं एम. आर. एफ. रबर फॅक्टरी पात्रांव?

एम. आर. एफ. : (मुमुरर्खे हांसून) हांव लाद्रांव! आगो म्हूगे नाव रॉकी मानुएल फेर्नांडिस. शॉर्टफॉर्म एम. आर. एफ जालो ना? तुजें नांव?

टींकल : टींकल फीगो. आवयस माजे. एम. आर. एफ. हिंगा बोगले डॉक्टर खंय आसा?

एम. आर. एफ. : डॉक्टर? अशें स्ट्रेट मुखार वच आनी मागीर लॅफ्टान चलोंक लाग आनी मात्शें फुडें रायटान टर्न घे. तिंगां दोतोराचें बुटीक आनी हॉस्पीटल आसा. हांव दाखोवपाक येवपाचो पूण म्हाका दोन नंबराक वचूंक जाय.

टींकल : हांव वयतां! थँक्यू.

**(दोगाय दोन वांटानी वेताना काळोख.)**

## (तिसरो देखावो)

## डॉक्टर बॉर्जीसाचें घर

## डॉ. बार्जीस, बॅव्हींदा, क्लेसी.

**(हॉलांत सोफा सॅट, फोन, टीपॉय, मुखेल दाराचेर डॉ. बॉर्जीस हॉस्पीटल अशें बरयलेलें आसा. डॉक्टर हॉस्पीटलांत वचपाची तयारी करताना बॅव्हींदा येता.)**

बॅव्हींदा : (फाटीं फुडें जावन) तुका ... तुका कितें सांगोंक जाय आसलें.

डॉक्टर : क्लेसीच्या काजाराची खबर न्हय? (तिका पळोवन हांसता.)

बॅव्हींदा : तूं सगळें फकाणाचेरुच व्हरताय. क्लेसीक एक बरोसो न्हवरो पळोवंक नाका आसलो?

डॉक्टर : कित्याक हुस्के खंती काडटाय? क्लेसीक एम. बी. बी. एस. करुंक आजून दोन वर्सां उरल्यांत. ताका एम. बी. बी. एस. करुंदी. उपरांत लंडन वो जर्मनीत वचून एम. डी. डीग्री मेळटकूच एक बरो 'हार्ट स्पेशालिस्ट' पळोवन, व्हडा दबाजान, घणघणान काजार कोरचें. तातूंत कितें आसा? देवान आमकां पुत फ़ाव करुंक ना.

बॅव्हींदा : (उसळोन) पुत जल्मोंक ना, ही म्हजीच चूक पुत ना म्हुणोन परत परत हिटां मारी नाकाय.

डॉक्टर : (शांतीकायेन) बॅव्हींदा गरजेविरयत पिकार जांव नाकाय. तुवें पूत दिवंक ना अशें हांवें म्हुणोंक ना. तुका हिटां मारुंक हांव अनाडी न्हय!

बॅव्हींदा : तूं अनाडी अशें हांवे म्हुणोक ना. तूं बरो हातगुणाचो, पेशंटाची काळजी घेता तसलो डॉक्टर म्हूण लोक तुका मानता. तशेंच कसल्याय सामाजिक, सांस्कृतिक कामाक उदार मनान आदार दिताय. हेंवुय लोक जाणा.

डॉक्टर : बॅव्हींदा, तूं क्लेसीच्या काजाराचें आतांच चिंती नाकाय. आनीक एक, हें आमचें हॉस्पीटल, आमचो बंगलो आनी आमची सगळी इस्टेट आसा ती कोणाक? धुवेक आनी जांवयाकूच न्हय? तूं क्लेसीक काजार...

(क्लेसी कॉलेजीकसून भीतर सरताना आयकता आनी कॉलेजाची बॅग सोफार उडोवन)

क्लेसी : मम्मी इतले वेगीं म्हज्या काजाराचें चिंती नाकात. पयलीं म्हाका म्हजो 'कॅरियर' घडोवंक जाय.

डॉक्टर : (खोशी जावन) बॅव्हींदा आयकले? म्हजी आनी क्लेसीचीं चिंतना एक जालीं काय ना?

बॅव्हींदा : म्हजे हें आवयचें काळीज. वाडलेली चली म्हणजे आवयबापायचेर चिंतनांचो भार.

क्लेसी : मम्मी, अशें कित्याक म्हुणटाय? हांव तुमकां जड जालाशें दिसता.

बॅव्हींदा : ना धुवे ना.

डॉक्टर : तूं आमकां केन्नाच जड जावंचे ना.

बॅव्हींदा : पुण क्लेसी, शिकलेलें गिरेस्त ओ गरीब चेडूं ते चेडूंच.
चेडवाक चेडे केन्ना भुलोवन नाडीत तें सोमजोना.

क्लेसी : मम्मी, तूं तसलें वायट कांयच चिंतीनाकाय. तो आदलो काळ आतां ना. आतां चेडवां 'मॉडर्न' जाल्यांत आपल्या पांयांचेर घट उबी रांवंकजाणात.
(क्लेसी भीतर वता. डॉक्टर अनी बॅव्हींदा एकमेकांक पळयताना काळोख.)

**पड्डो पडटा.**

# दुसरो पड्डो

## (चवथो देखावो)
## डॉ. बार्जीसाचें घर

**(आदल्याच वस्तूंचें तेंच हॉल. बॅव्हींदा, डॉक्टर आनी टिंकल)**
**(टिंकल आता दोतोराच्या घरच्या कामाक आसता.)**

टिंकल : (हालोत, धोलोत मिरवयता.) मुनशा मन बरें आसल्यार देव खंय धन दीता! अशें म्हुणटात तें सॉत खरें! आता म्हाका चोयाय. हांव म्हज्या पोटान दुखता म्हूण ह्या दोतोरागेर पावलें! दोतोरान म्हाका बरें केलें आनीं आपल्या दुडवां बील दिलें. हांवे हांसोन पूण खालतीकायेन दोतोराक सांगलें, दोतोर म्हुको पॉयशे नाय. घरासून हाडून दितलें म्हुळ्यार म्हाका मांय, पाय, भाव कोणूच ना. दोतोरान म्हाका बारीक चोयलें आनी काम कसलें कोरता तें विचारूंक लागलो. हांवें सागिलें, दोतोर हांव एका हॉटेलांत आयदणां घांसून धुयतालें. एक दीस कोण ना तें पळोवन हॉटेला पात्रांव म्हाका 'रॅप' करूंक सोदतालो. तेन्ना हांव भिरांतीन म्हजें 'स्कर्ट' आनी 'ब्लावज' घट धरून पळोन येयलोलें. तें आनी पोरतें त्या हॉटेलांत पांय दवरुंक ना. सद्याक हांव बेकार आसां. दोतोरान आमगेर कामार रावता काय विचारतोच हांवे बरे खोशयेन रावतां म्हूण सांगिलें. तेदोनासून हांव हिंगां कामाक आसा. खुशाल आसा! चवथी फॅल जालोल्या म्हज्यासारख्या चेडवाक ऑफीसांत टायपीस्टाची सिव्हींस कोण दितोलो? दोतोर एकदोम बरो. ताच्या पोरोसं दोतोरा बायल. मादाम बोरी आनी तेंगें चली क्लेसी बाय बोरें. (फोनाची रींग वाजता. हालोत, धोलोत वचून फोनार उलयता.) हॅलो, हॅलो हांव टिंकल फीगुर उलयतां (कोपलाक मिरयो घालून) क्लेसी बाय फोन मम्मीकडे दी म्हुणटा. (फोनाचेर हात दवरून) ओ. के. मादाम....मादाम

बॅव्हींदा : (भितरसून येताना) आयली

टिंकल : क्लेसी बाये फोन

बॅव्हींदा : (फोन घेता)

टिंकल : (भीतर वता)

बॅव्हींदा : हॅलो

क्लेसी : (फोनार) हॅलो मम्मी, हांव क्लेसी... हांव हांव म्हज्या बॉयफ्रेंडा सांगाताक वेतां ..

बॅव्हींदा : (गोदळोन) ऑ ... क्लेसी ... कितें?

क्लेसी : (फोनार) हांव म्हुज्या मोग करणाऱ्या सांगाताक तुमकां सोडून पळून वेतां

बॅव्हींदा : बॉयफ्रेंड ... मोग कोरणार ...कोण?.. खंयचो? खुंय वेताय?

क्लेसी : म्हाका मानोवला म्हुणटोच जालें न्हय? मम्मी खरेंच तो म्हाका फाव तसोच आसा.

बॅव्हींदा : (बेजार जावन) क्लेसी कसली फकाणां कोरताय?

क्लेसी : मम्मी, फोकाणां न्हय. हांव म्हुज्या बॉयफ्रेंडा सांगाताक तुमचे नोदरेभायर पयस .... पयस चल्लें. तुमी बोरीं करून रावात. हां आनी म्हाका सोदूंक ओगीच त्रास घेय नाकात.

बॅव्हींदा : क्लेसी ... क्लेसी ... (मोठ्ठ्यान) क्लेसी ...
(मातसें रावन फोनआपटून दवरता आनी सोंसूंक नज जावन सोफाचेर बसता.) टिंकल ... टिंकल

टिंकल : (भितरसून) मादाम ..

बॅव्हींदा : पिवपाक उदक हाड.

टिंकल : (उदकाचो ग्लास हाडून दितना) मादाम घे.

बॅव्हींदा : (उदक पिवन आपले तकलेक धरून) हाय..... जेझू...

टिंकल : मादाम, जिवाक बरें ना? दोतोर बाबाक फोन करूं?

बॅव्हींदा : नाका नाका. हाय क्लेसी ...

टिंकल : क्लेसी बायक कितें जालें?

बॅव्हींदा : क्लेसी एका चेड्या सांगाताक पळून गेले.

टिंकल : तुमकां सांगनासताना (मळबाक दोळे लावन हात जोडून) जेझू पाय, सां जुझे तूंच पळय. मादाम तो चेडो कोण?

बॅव्हींदा : हांव नकळो (डॉक्टर हॉस्पीटलांतसान गंभीरपणी येता.)

डॉक्टर : क्लेसी तरी खंय जाणा ? आपूण जाच्या सांगाताक विश्वास दवरुन पळून गेलां तो कोण? ताचे गूण .. सभाव ...

बॅव्हींदा : तूकाय खबर कोवली?

डॉक्टर : हय. (धीर गंभीर आवाजान) वाऱ्यार उबलोलो बलून 'फऽऽस्स' करून फुटोंक वेळ लागोना. तशेंच कोणूय चेडूं पळून गेले जाल्यार गांवांत खबरो पावोंक वेळ लागना. हरशी मॅडीकल कॉलेजींत शिकपी विद्यार्थी ओव स्टुडंट क्लासीक बसनासताना खंय वता, कितें करता तें प्रोफेसर दोतोरांक पोडोंक ना. मॅडीकल कॉलेजीत सरदेसाय नांवाचो म्हजो इश्ट आसा ताणें हॉस्पीटलांत फोन करून म्हाका कळयले. कारण क्लेसी म्हजी चली म्हुणोन तो जाणा. त्या चेड्या सांगाताक क्लेसी आसताना डॉक्टर सरदेसायान ताका जाप केली. तेन्ना ते सारखेच उचांबोळन नव्हॉज जालें खंय. आनी त्या चेड्या सांगाताक जी.ए.एस.8856 नुंब्राची तांबडी मारूती कारान गेलां. तो तरनाटो रॉड सायड रोमीयो गुंडा सदांच मॅडीकल कॉलेजीच्या कॅम्पसात चेडवांक सोतायता म्हुणोन ताचेर पुलीसेंत कंम्प्लेन आसात अशें डॉ. सरदेसायान सांगलां.

बॅव्हींदा : (फुगार जावन) आतां उपाय कितें?

डॉक्टर : उपाय आनी कितें? नशीब आमचें. हांवे पुलीसेंत 'कंम्प्लेट' दितोच पुलीसेन सगळ्या पुलीस स्टॅशनार आनी चॅक नाक्यांनी वायरलेस केला. आनी आमच्यानी कितें करूं येता.

बॅव्हींदा : पुलीसेन क्लेसीक सांपडावन कितेंय वायट केल्यार ....

डॉक्टर : भोगचें पडलें केल्ले चुकीचें प्रायश्चित्त. तें तर भोगुंकुच जाय. (खंतीन) बॅव्हींदा आमी चिंतताली कितें आनी हें घडटा कितें? (दुखी जावन भीतर वता.)

बॅव्हींदा : (दुखेस्त जावन) बॉर्जीस.

### गीत तिसरें

बॅव्हींदा : **अपुरबायेची चली, अशी कशी जाली.**
**सुखी घराब्याचेर पडली,**
**दुखाची सावली,**
**म्हजे धुवे क्लेसी कितली अपुरबाय केली,**
**कोण सैतानान तुका भुलोवन नाडून व्हेली.**

कोरस

ाव्हींदा : चिंतलेलें जालेलें जाल्यार मेलेलीं घरा येता आसलीं.
धुवे तूं केन्ना येतलें, तुजी वाट पळोवन रावतले.
तूं घरां पावपासून फुगार जावन रडटेलीं..
कशेंय तूं धांवोन आयल्यार तुका वेंगायतेलीं.
कशेंय तूं घरा पावल्यार तुका वेंगायतेलीं.

(काळोख)

## (पांचवो देखावो)

## रस्तो

## (हवालदार, एम. आर. एफ., गाब्रु)

**(एम. आर. एफ. आता पुलीस हवालदार जाल्लो आसता. पुलीस मार्च वाजताना एम. आर. एफ. पुलिसेच्या न्हेसपान (युनिफॉर्म) हातात दांडो, बॉल्सांत पिल्लू घेवन येता.)**

### गीत चवथें

एम. आर. एफ. : हांव गोंयचो हवालदार दांड्याचो पदवेदार चोरांक,
क्रिमीदोरांक दांड्यानूच घालता मार.
...क घायलो म्हूण मार
मान दिता आमकां सरकार
भिरांतीन आमी आसात आमचेरुय येयत म्हूण फार

**कोरस**

**वोडील आमचो, होम मिनिस्टर ... नायक,**
**ऑर्डर दितना सांगता, चत्रायेन आयक,**
**ऑर्डर मेळटोच हांव,भियेना कोणाच्याय पायक**
**आवाज आमचो चडयतां, नासताना मायक**
(गीत जातकूच थोडो वेळ तेंच संगीत वाजता. संगीताच्या तालार रावंड मार्च संगीत सोंपतोच)

एम. आर. एफ. : (खुशेन मुरगटोन) हें वाजिलां तें हांव पुलीस जालां म्हूण. बोरे वाजिलां. पुलीस कॉन्स्टॅबल जाय नासताना 'डायरेक्ट' हवालदार जॉब मेळ्ळो म्हूण लोकांक चोड करून चेडवांक बायलांक कोळो जाय देखून आनी वाजोयाय. हांव तुमकां आनी दुडू दितां. (परत पुलीस मार्च वाजता. एम. आर. एफ. लेफ्ट रायट, लॅफ्ट रायट करून रावंड मारताना गाब्रू येता.)

एम. आर. एफ. : पुरो (गाब्रूक पळोवन मुझगांक) पुरो! तुमगे तुमकां दितां मातशे रावाय.

गाब्रू : एम. आर. एफ. हो तुगेलो भेस कितें?

एम. आर. एफ. : हांव पुलीस हवालदार गाब्रू.

| | | |
|---|---|---|
| गाब्रू | : | तियात्रांतलो ओव नाटकांतलो? |
| एम. आर. एफ. | : | तेसो न्हू. ‘रियल गोवा गव्हर्नमेंट पुलीस डीपार्टमेंट हवालदार’ |
| गाब्रू | : | हवालदार जावंच्या तुका शिंकप ‘कितु’ आसा? |
| एम. आर. एफ. | : | गोंयच्या मंत्र्यांक कितूं शिंकोप आसा? शिंकपाची आनी मिनिस्टरांची खोबोर पाड घाल. तुजे हॉटेल बोरे चलतां मोरे? |
| गाब्रू | : | ती खोबोर आनी सांगपा न्हू? तूं काजार जालो. |
| एम. आर. एफ. | : | ना आतां रोकडोच जातोलों. |
| गाब्रू | : | होंकल मेळ्ळ्या? |
| एम. आर. एफ. | : | पोयलीं चेडवां म्होजेर नोदोर पासून घाल नासलोलीं. आतां पुलीस हवालदार जालां म्हूण चेडवां म्हुज्या मोगान पोडोंक उपाट्यो घालताय! राती हांव सिव्हील न्हेसोन सिने लतान पिक्चराक गेलोलों.<br>पिक्चर बोरें कन्नड सॅक्सी आसलें. |
| गाब्रू | : | लतान कन्नड सॅक्सी पिक्चरां केन्ना केन्ना आसताय? |
| एम. आर. एफ. | : | आयक रे मोदें डिस्टर्ब कोरी नाका. पिक्चर चोयन भायर सोरताना एका चेडवान म्होज्या हाताक धरलो आनी फोर्सान म्हाका आपल्या घोरा व्होयला. |
| गाब्रू | : | बोरें आसलोलें? |
| एम. आर. एफ. | : | घर मुरे? |
| गाब्रू | : | घोर न्हय रे चेडूं. |
| एम. आर. एफ. | : | बोरे आनी वायट. तितून कितें आसा? म्हाका घरा व्हेलो. म्हुको दोनशीं रुपया घेतले. बरो पिवयलो, जेयलीं आनी टी.व्हीं. चेर पिक्चर चोयच्या लागोलीं. टीं. व्ही. पिक्चरान हीरो हीरोईन रोमान्स कोरतालीं. तेन्ना तें म्हाका लागीं येयलें आनी लायट ऑफ केली. |
| गाब्रू | : | मागीर? |
| एम. आर. एफ. | : | मागीर आनी कितें? लायट ऑफ केली म्हणटोच म्हाका दिसले तेंचो न्हिदपाचो वोगोत जाला म्हूण. तेसो काळखांत पोशे–पोशेत |
| गाब्रू | : | कितें पोशेत |
| एम. आर. एफ. | : | वोण्टी, दारां पोशे–पोशेत भायर सरलो. नीट मुगे घोरा येयलों. दारां बोंद केलीं. रोजार केलें आनी सुस्त न्हिदलो. |

गाब्रू : (मोठ्यान हांसून) तूं केसो लोलो? तुवें चान्स घेवपा जाय म्हूण ते लायट ऑफ केली आस्तोली.

एम. आर. एफ. : (उसळोन) काळखांत चान्स घेवपाक हांव चोर तर? हांव पुलिस हवालदार . (मुझगांक) वाजयत म्हज्या फाटल्यान येयात घोराकू तुमगे तुमकां दितां.
(संगीत वाजताना एम. आर. एफ. लेफ्ट रायट कोरीत वेताना.)

**(काळोख.)**

## (सव्वो देखावो)

## पुलीस चौकी

## (कदेलां, मेज, मेजार फोन आनी फायल)

**(इन्स्पेक्टर राणे, हवालदार एम. आर. एफ, बॅव्हींदा, डॉक्टर आनी भीतर कैदेंत वेगवेगळ्या कुडानी रोहन आनी क्लेसी)**

**(इन्स्पेक्टर राणे भीतर आसता. हवालदार एम. आर. एफ. उबो आसता.)**

रोहन : (भीतर कुडांत रावोन) हवालदार इन्स्पेक्टर राणे खंय गेला?

एम. आर. एफ. : इन्स्पेक्टर म्हाका सांगोन वोचोंक ना. कित्याक जाय आसलो?

रोहन : म्हाका दोन बियरी हाडून दी.

एम. आर. एफ. : म्हाका ऑर्डर ना.

रोहन : हांव ऑर्डर दितां न्होय?

एम. आर. एफ. : तुजे ऑर्डरीन काम कोरूंक तूं आमगेलो पुलीस कमीशनर काय कितें?

रोहन : (तिडकीन) एऽऽ तूं कोणा थांय उलयता तें तुका खबर आसा? कुत्रो.

एम. आर. एफ. : एऽऽ म्हाका कुत्रो म्हुणों नाका आनी पोयलेंच सांगता म्हुको सुबेज उलोय नाका.

रोहन : कितें कोरतोलो?

एम. आर. एफ. : दांडयान धोमसून धोमसून मारतोलो. (दांड्यान धोमशिता) भायर तुजी दादागिरी चलता म्हुण हिंगां चोलपा नाय. होच चान्स बरो. (दांड्यान मेळत तसो ताका धाडायता.)

क्लेसी : (आकांतान) हवालदार ताका मारी नाका.

एम. आर. एफ. : तू म्हाका सांगी नाका. (परत मारता.)

रोहन : (मोठ्यान) इन्स्पेक्टर राणे, इन्स्पेक्टर राणे.

राणे : (भितरसून येताना) कोसलो बोवाळ? (एम. आर. एफाक पळोवन) एम. आर. एफ. तू रोहनाक मारताय?

एम. आर. एफ. : (बंद करून) रोहन जावं मोहन जांव सायब. आरोप्यांक मारूंक जाय न्हय?

राणे : तूं समजोंता तसलो तो सादो न्हूय! ताका सगळे मंत्री बरेपण सांबाळून आसात.

एम. आर. एफ. : तो सांगता बियर हाड म्हूण. हाड्गिना म्हुळ्यार म्हाका कुत्रो म्हुणटा. देखून ताका मारला.

राणे : पयलीं ताच्या थांय सॉरी माग.

एम. आर. एफ. : सॉरी? (डॉक्टर आनी बॅव्हींदा दारार रावन इंग्लेजींत इन्स्पेक्टर आमच्यांनी भीतर येवं येता म्हूण विचारता.

राणे : (तांकां पळोवन) वॅलकम ...वॅलकम.. डॉक्टर.
(दोगांय येतना बॅव्हींदा ताकतिकेन डॉक्टराक फाटीं दवरून क्लेसीच्या लागी येवन) बाय क्लेसी (दुखान हुंडकेता)

क्लेसी : (फुगार जावन) मम्मी

रोहन : (डॉक्टराक आनी बॅव्हींदाक रागीट नदरेन पळयता.)

बॅव्हींदा. : धुवे तूं अशें कशें फसलें?

रोहन : (रागान दांत ओंठ चाबून पळयता.)

बॅव्हींदा : क्लेसी हें तुवें कितें केलें?

डॉक्टर : (गंभीरपणान) बॅव्हींदा, कितें केलें? आनी कितें जालें ते उपरांत पळोवं येता. आतां कितें कोरपाचें तें थारावंक जाय न्हूय इन्स्पेक्टर?

राणे : डॉक्टर बोसात.

डॉक्टर : थँक्यू

रांणे : डॉक्टर तुका सांगोक जाय अशें ना. तुमचे चलयेचें 'आयडेंटीटी कार्ड' हांवें पळयलां. आजून ताका अठरा वर्सां जावंक नात. तांकां आयज कोर्टांत व्हरुंक जाय.

बॅव्हींदा : (भियेवन) कोर्टांत?

राणे : हय मॅडम, कायद्याप्रमाण तांकां कोर्टांत व्हरपाकच जाय. आय एम सॉरी. उपाय ना.

डॉक्टर : इन्स्पेक्टर...

बॅव्हींदा : म्हजी धुव तशी वायट न्हय इन्स्पेक्टर.

डॉक्टर : चड बऱ्या गुणाची म्हुणोन अशें जालां न्हय?

बॅव्हींदा : तें ताच्या फोटकीऱ्या भुलोवण्यांनी फसलां. दुसरे फावट तें अशें करचें ना.

डॉक्टर : बॅव्हींदा चलयेचे बरेबरे गूण सांगोन कांयच फायदोना. क्लेसीक आमी सोयरीक करुंक येवंक ना. इन्स्पेक्टर कोर्टांत व्हरनासताना ताका मेकळें करुंक कायद्याची दुसरी खंयचीच वाट ना?

राणे : ना. ताका सोडलें जाल्यार रोहनाकूय सोडूंक जाय.

बॅव्हींदा : तो मरूं.

रोहन : (रागान पळयता.)

बॅव्हींदा : आमचे धुवेकुच सोडूंक उपाय सांग.

डॉक्टर : बॅव्हींदा कसलो उपाय? आडमार्गान आ दुडवांच्या फोर्सान हांव कोसलेंय बेकायदेशीर काम कोरपी न्हूय. तें तू जाणाय.

बॅव्हींदा : हय हांव जाणा. पुण तूं अशें एक विसोरताय, क्लेसी आमच्या रोगताची धुव.

डॉक्टर : तें हांव विसरोंक ना.

बॅव्हींदा : तोर ताका हांगां बंद दवरून आमी घरां वचोंया?

डॉक्टर : वाऱ्यार मेकळें सोडलेल्या परस हांगां थोडे दीस बंद आसल्यार बरें न्हय? ताच्या गिनान्यार उजवाड तरी पडटलो.

बॅव्हींदा : ना. अधिक काळोख पडटलो. (दुखान) बॉर्जीस म्हुजें आयक. दुडू जाल्यार दुडू भरून आमी ताका घरां व्हरुंया आनी सारखें समजावोन सांगोया.

डॉक्टर : बॅव्हींदा म्हजे खोशयेन न्होय. पूण तुज्या पासोत हांव ...

बॅव्हींदा : इन्स्पेक्टर कोर्टांत व्होरोनासताना म्होजे धुवेक सोडपाक उपाय ना?

राणे : आसा. डॉक्टर भितर यो. सांगतां.
(दोगूय भितर वेतात.)

**पड्डो पडटा.**

# तिसरो पड्डो

## (सातवो देखावो)

## गार्डन

### (इन्स्पेक्टर राणे,रोहन)

राणे : रोहन, आमच्या कायद्या मोंत्र्यान म्हुजेर दबाव, प्रेशर घातलो त्याखातीर तुका मेकळो केला.

रोहन : इन्स्पेक्टर, डॉक्टर आनी ताची बायल आपल्या धुवेची कोशीं कितें करून सोडवणूक करून घेवन गेलीं (हांसोन) तीं समजलीं. हांव कैदेंतूच सुकोन सुकोन मोरतोलो.

राणे : एक सांग, कायद्यामोंत्र्यान तुका इतलो फावोर क़रूंक कारण कितें?

रोहन : हांव कायद्यामोंत्र्याचीं बेकायदेशीर कामां कोरतां

राणे : म्हुणजे?

रोहन : हांव तांकां जाय तोशी 'इल्लिगल' कामा कोरतां! चोड करून इलेक्शना दिसांनी.

राणे : म्ह्णुणजे निवडणूके ..

रोहन : मतदारांक पिवोंक सोरो, खावंक चिकन/मटण, कोणाक खोशी तांकां पंढरपुरा, शिर्डी, वायलाकांनी धाडून हाडटां आनी मोतां ताकाच दिवंक सांगतां.बोऱ्यान कबूल जायनात तर मोतदारांक मार फार कोरून धमकी दिवन भिवयतां. कितेंय कोशेय करून आमी ताकाच जोयतीवंत कोरतात.

राणे : आमी म्हुणटा ते कोण?

रोहन : आमचे गँग आसा. हांव त्या गँगाचो लीडर!

राणे : हांवे तुका सोडला खोरो, पुण तुका थर्ड मॅथड दाखोयल्या म्हुणोन मोंत्र्याक सांगू नाकाय.

रोहन : तूं बेफीकीर राव.

राणे : सांगत तर म्हजी बदली खंयच्याय रानांत ओ रीझर्व्ह पुलीसेंत जायत.

रोहन : भिये नाकाय. चल इन्स्पेक्टर हे त्या बारांत वोचोन कितेंय गरमागरम खावन थोडें थोडें पियेवंया

राणे : चल या. दुसरे फावटीं कितेंय जाल्यार म्हाका पयलींच कळय.

रोहन : ओ. के. इन्स्पेक्टर

**(दोगूय वेताना काळोख)**

## (आठवो देखावो)
## डॉक्टराचो बंगलो
### (डॉक्टर, बॅव्हींदा, क्लेसी, रोहन)

डॉक्टर : बॅव्हींदा हांव तुजें कितेंय मानून घेयन .. पूण हें न्हय ..

बॅव्हींदा : तूं कित्याक समजोन घेयनाय?

डॉक्टर : हांव सोगळें समजोन घेतां पूण हें न्हय, मुनशान जाणा जावन मुद्दोम वीख पियेवन विखाची परीक्षा घेवंची न्हय. आतांच आमी फोवो ती जोतनाय घेनात तोर आमची धूव क्लेसी....
(म्हुणटाना क्लेसी आनी रोहन भायल्या दारार आसतात.)

क्लेसी : (भीतर येवन भिरांतीन पूण उमेदीन) डॅडी, हांव आयलें.

बॅव्हींदा : (तांकां पळोवन आकांतान) आनी हो?

रोहन : (बेफीकीरीन) हांव रोहन मॅश्कीता!

डॉक्टर : (रागान तांबडो जावन) तूं.. तूं.. हांगां कित्याक?

रोहन : तें तुमच्या चलयेकूच विचारात.

बॅव्हींदा : आमी तुका विचारतात.

क्लेसी : मम्मी, हांव सांगतां.

बॅव्हींदा : तुजे खोशयेभायर तो तुजे फाटीक लागता न्होय?

क्लेसी : ना. आनी दोगांयनी बारीक नियाळ कोरुन चिंतलां, फाटलें सोगळें विसरोन काजार जावूंक...

रोहन : आनी बोरो सुखी संसार करुंक!

डॉक्टर : शट अप.. आमी तुका विचारुंक नां.

रोहन : सॉरी!

क्लेसी : डॅडी, तांका शट अप म्हुणों नाकात. ताका वायट दिसतेलें. हांव ताच्या थांय काजार जातां.

बॅव्हींदा : बाय क्लेसी हें तूं कितें उलोयताय. हाचे थांय काजार?

क्लेसी : जावंक तुमी कित्याक आडखोळ कोरतात? तो आमचे सारखो मुनीस न्होय?

डॉक्टर : संसारात कुडी ओत्म्यान जियेतात ते मोनीसुच. पुण मुनशाक मोनीसपोण आसूंक जाय.

रोहन : हाचो ओर्थ म्हाका मुनीसपोण ना ओसो न्हय?

बॅव्हींदा : तुक सांगलां. आमचे मदें उलोवं नाकाय म्हुणोन.

क्लेसी : मम्मी, प्लीज, ताका कित्याय कितें उलोवं नाकात. तो रोकडोच पिकार जाता.

डॉक्टर : तो उलोयल्यारूच पिकार जाता न्हय? आनी आमचे एकले–एकसुरें चोलयेक फाव ना तोसल्या थांय काजार कोरपाचो विचार कोरताना आमी पिकार जावंची नात तोर? पुण तूं सांग तो कोण?

क्लेसी : तो आमच्याच जातीचो.

डॉक्टर : खबरदार क्लेसी, हांवें ताची जात धर्म विचारोंकना. हांव जात कात मानीना. आनी ह्या फुडेंय मानचों ना. हांव फोकोत मुनीसपोणाचो धर्म मानतां.

रोहन : (उमेदीन) तोशें जाल्यार जालें तोर! आनी आडखोळ कोसली आसा?

डॉक्टर : आडखोळ? खूप मोटी आडखोळ आसा. म्हाका पोयलीं ताचें शिंकोप, गूण, स्वोबाव, ताचो आवय बापूय कोण तें पळोवन तांच्या थांय उलोवंक जाय.

क्लेसी : ताचो डॅडी, मम्मी पोर्तुगालाक आसात.

डॉक्टर : तूं जाणाय? ताका सांगों दी.

रोहन : डॉक्टर एक सांगात तुमी क्लेसीक म्हुज्या थांय ओ म्हुज्या डॅडी, मम्मी थांय काजार कोरतात?

बॅव्हींदा : काजार? काजार मागीर पोळोवंचें.

डॉक्टर : पोयलीं आमकां तुज्या डॅडी मम्मीचो फोन नंबर दी.

रोहन : (बेपर्वा करून) आनी दिना जाल्यार?

डॉक्टर : तुका क्लेसी थांय काजार जावंक मेळचें ना. (मोठ्ठ्यान) गॅट आवट.

रोहन : (चाळोवन) क्लेसी तुवें म्हाका हांगां कित्याक हाडलाय? असलो अपमान करूंक? हांव वेतां.

(रोहन वेताना क्लेसी ताच्या फाटल्यान वेता)

क्लेसी : रोहन राव, प्लीज रोहन..

डॉक्टर : (क्लेसीच्या हाताक धरून ओडटाना) क्लेसी!

| | | |
|---|---|---|
| क्लेसी | : | डॅडी, आमकां ताचो डॅडी मम्मी कित्याक जाय? म्हाका फकत रोहनूच जाय .. रोहन |
| डॉक्टर | : | क्लेसी (क्लेसीचेर थापोट मारता) चोड उलोयताय! |
| क्लेसी | : | मम्मी ... (रडत भीतर वेता.) |
| बॅव्हींदा | : | (डॉक्टराच्या लागी येवन) बोर्जीस, हें कितें केलेंय? |
| डॉक्टर | : | (रागान पासयो मारताना) बॅव्हींदा, कितें केलें तें चिंतीनाकाय. फुडें कितें करपाक जाय तें चिंत... |
| बॅव्हींदा | : | म्हुणजे? |
| डॉक्टर | : | (मातशें चिंतून) क्लेसीक आतां गोंयांत दवरुंक फावोना. |
| बॅव्हींदा | : | खुंय धाडटेलीं? |
| डॉक्टर | : | पुण्या. ताचे शिंकोप कोरूंक ताका पुण्या मॅडीकल कॉलेजीत धाडुंया. |
| बॅव्हींदा | : | आनी रावतेले खुंय? |
| डॉक्टर | : | मॅडीकल कॉलेजीच्या हॉस्टेलांत रावों येता |
| बॅव्हींदा | : | (दुखेस्त जावन) देवा ..इतले पोयस म्होजे नोदरेभायर? |
| क्लेसी | : | (आवचीत बॅव्हींदाशीं येवन) मम्मी हांव गोंया भायरुच रावोन शिंकल्यार चोड बोरें (खंतीन कशें)! कित्याक जाणाय रोहन नोदरेक पोडटोच हांव पिशें कोशें जातां आनी म्होजें म्हाकाच विसोरतां! पोयरुच हांवे तुमकां सांगलेलें म्हुज्या काजाराचें आत्तांच चिंती नाकात. पोयले म्होजे शिंकोप कोरतां म्हूणोन. (फुगार जावन) पुण रोहन मेळटोच हांव सोगळें विसोरलें, आनी ताका घेवन तुमच्याशीं आयलें. हांव पुण्यात आसोत तोर तो पुण्यात आसचो ना आनी म्हाका दिश्टी पोडचोना. |
| बॅव्हींदा | : | धुवे तुजो फुडार पोरजोळीत जाल्लो म्हाका जाय. आमचे नोदरेन तूं आजून ल्हान आसा. |
| डॉक्टर | : | पुण तू मोगान काजार जावंक तानेलां न्होय? |
| क्लेसी | : | डॅडी, हांवे व्होड चूक केली. म्हाका भोगोस. |
| डॉक्टर | : | क्लेसी कितले फावटीं तूं चुको कोरतलें आनी कितले फावटीं आमी तुका भोगशीतलीं? नॉनसॅन्स. |
| क्लेसी | : | सॉरी डॅडी, आनीक ओसली चूक कोरचेंना. तुमकां सोपुताखाला सांगतां. डॅडी तूं धाडटा थंय गोंयाभायर खंयसोरुय रावोन शिंकतां. |

व्हींदा : (खोशयेच्या दुखांनी) कितेंय आनी कोशेंय जाल्यार आमचीच धूव.

गीत पांचवें

लेसी : ओ डॅडी ... ओ म्होज्या मम्मी. म्होज्या पासोत आतां हुस्के नाकात तुमी.
बॅव्हींदा (तिगांय) एकमोतान रावल्यार आमी बोरो न्हवरो मेवतोलो. नाका तो होरामी.
कोरस
आदली घोडणी विसरोन,
ती धुवे दुखाची,
आतां चोलोंक जाय,
वाट आमी सुखाची

बॅव्हींदा : बोन्या गुणानी चोलोत
आब्रु मेवतेली लोकांची
सोदाच पोयस कोरुंक जाय सावळी पातकाची
सोदांच पोयस करुंक जाय सावळी पातकाची

(काळोख)

## (णववो देखावो)

**(दर्याची वेळ.वेळेर एक शॅक ओ हॉटेल. गाब्रू टिंकल)**
**(शॅकांत मातयेचीं आयदणां. एक पडगो, माटूल, कट्टेचो दवलो अशो पोन्न्यो वस्तृ कदेलां, बांक आसात पूण मेज ना.)**

गाब्रू : (तांबड्या लेंसाची काश्टी न्हेसून, बानयान घालून एक तांबडो लेंर तकलेक बांदून आसता.)
टिंकल : (मॉडर्न कॉस्फीक ड्रॅसान येवन बांकार ओ कदेलार बसता.)
गाब्रू : (खालतीकायेन टिंकलाचे लागीं येवन)
टिंकल : (ताका पळोवन उठून) सॉरी, हांव चुकोन रांपोणकारागे कुडींत, खोंपीत भितोर सोरलें.
गाब्रू : ना बाये, तूं दर्या वेळेर शॅकांत म्होळ्यार हॉटेलांत भितोर सोरलां.
टींकल : (अजापान) माय गॉड! हें शॅक म्हुणजे हॉटेल?
गाब्रू : हय देवाचे कुरपेन! हें गोंयचे पारंपारीक, म्हुळ्यार ट्रेडीशनल जेवणा खाणाचें खावोप, पिवप. मेळपाचें आख्खें गोंयचें एकूच नावाजतें शॅक ओ 'हॉटेल द जाकीन गोवा.' (मुरगोटोन हांसता.)
टिंकल : आनी तूं?
गाब्रू : ऑनर कम वेटर!
टिंकल : तुजो भेस असो कसो?
गाब्रू : शॅक गोंयच्या मुळाव्या नीज जेवणाखाणाचें म्हुण्टोच न्हेसपूय गोंयच्या नीज भेसाचें नाका?
टिंकल : ओके. आय सी. एक पॅप्सी हाड.
गाब्रू : प्लीज ... पॅप्सी ना ... पूण
टिंकल : पीझा हाड ..
गाब्रू : पीझा ना. पेज आसा.
टिंकल : पेज? व्हॉट डू यू मीन बाय पेज?
गाब्रू : पेद्रु जुझे वाझ पाव! सायबा तुवें सिलोनात दुऐतींक, गोरीबांक, मोड्क्या आनी मोडक्यांनी ... पेज शिजोवन वाडली आनी शेंकड्यानी लोकांची भूक मारली. आनी हें गोंयकार जावन पेज म्हुळ्यार कितें तें नेणो! ऑल रायट! आतां भुरग्यां पेज,

आटवोल, कोडी, तिझान, आंबील–नासण्याची, तांदळाचीं भाकरी असल्यो वोस्तू कांय खबर ना. कारण आतां भुरगीं पिझा, हॉटडॉग, सँडवीच, हँबर्गर, चॉकलेटी, वॅफर्स, आयस्क्रीम खाताय आनी दांत आनी पोट पिड्डार कोरताय.

टेंकल : व्हॉट?

ाब्रू : पोडगोभोर पेज आनी उज्यांत भाजलोलो एक सुको बांगडो ऑन्ली फायव्ह रुपया फीफ्टी पयसा आनी फीफ्टी पयसा टीप . ग्रँड टॉटल फोकोत सीक्स रुपया.

टिंकल : हाड.

गाब्रू : (भीतर वेता)

टिंकल : आयज काल आमच्या गोंयांत खूंय कितें आनी केसो मेळोत तें सांगोंक कुस्तार! पेज म्हुळ्यार ..

गाब्रू : हाडली बाय. (पेजेचो पोडगो, माटूल, दवलो आनी सुको बांगडो कागदांत गुठलावन घेवन येता आनी कोदेलार दवरून) एशें म्हुजे गिरायक पेज सोकोल बाकीनाचेर बोसोन जेयता. पूण तुजे मोटवे सायेलागोन कोदेलाचेर दोवोरल्या. घे पोडग्यांतू पेज दोवल्यानी माटुलात घेवपाची आनी माटूल तोंडाक लावन 'फुर्र ... फुर्रऽऽ' कोरून जेयताना मोदे मोदे बांगडो तोंडाक लावपाचो. 'कस्टमर सॅटीसफेक्शन इज अवर मोटो' जेय. सुशेगाद जेय.

टिंकल : (पेज माटुलांत घेताना) तूं म्हाका वोळखीचो दिसोता.

गाब्रू : (आमुरको हांसोन) तुवे म्हाका वोळखीलो दिसोता. हाव बाजारांत हॉटेल चोलोयतालों, आनी तूं आयदोणा धुवपा ....

टींकल : (आकांतान) तूं तो हॉटेलकार? पाड पोडों.

**(पेज सोडून धांवताना काळोख)**

## (धाव्वो देखावो)

**डॉक्टराचो बंगलो : टिंकल, बॅव्हींदा, डॉक्टर आनी रॅनात. (सिव्हील ड्रेस)**
**(टिंकल सफायी करताना दाराची बेल वाजता ... बॅव्हींदा हॉलांत येताना)**

बॅव्हींदा : टिंकल, कोण आयला पळय.

टिंकल : (भायल्या दाराशीं वचून पळोवन हालत धोलत) मादाम एक बे
हँडसम चेडो येता.

बॅव्हींदा : तेका भीतोर यो म्हूण सांग

टिंकल : (मिरयत मिरयत) यो. हीरो भीतोर यो.

रॅनात : (भीतर येता.)

टिंकल : यो बाबा, बोस.

बॅव्हींदा : (टिंकलाक पळयता.)

टिंकल : पिवोंक कितें हाडचें? गोराम ओ थोंड?

रॅनात : तें उप्रांत पोळोवचें, मादाम कोशी आसात?

बॅव्हींदा : आसात बोरीं

टिंकल : (मोदेंच) तूं कसो आसा?
(बॅव्हींदा टिंकलाक पळयता)

रॅनात : आसां बरो

टिंकल : खोबोर घेयल्यार बोरें न्हू मादाम.

रॅनात : डॉक्टर ना.

बॅव्हींदा : आसा बोस

रॅनात : (बोसता)

डॉक्टर : (भीतरसून येताना रॅनाताक पळोवन खोशयेन) रॅनात, व्हॉट अ
प्लेझंट सरप्रायज, केन्ना आयलो. टिंकल ताका पिवपाक कितें
थोंड हाड...

टिंकल : तेको तेंच विचारलेले हांवे डॉक्टरबाब. तेका एकल्याकूच हाडचें?

डॉक्टर : आमकां दोगांकूय हाड.

टिंकल : एकल्याक जाल्यार भीतरी व्होर्न दिता म्हूण ...

बॅव्हींदा : (बेजार जावन) टिंकल

टिंकल : हाडटां बाय. (भीतर वेता)

डॉक्टर : हां रॅनात. तूं महाराष्ट्रांत नासिकांत आसलो न्हूय.

रॅनात : हय डॉक्टर, नासिकांतले ट्रेनींग सोंपोवन हांव आतां पुणे शारांत पुलीस इन्स्पेक्टराची ड्युटी कोरतां. (खोशयेन) आनी थोड्याच काळान म्हुजी बोदली गोंयांत जावपाची आसा.

टिंकल : (पिवपाक घेवन येताना)

डॉक्टर : देट इज वंडरफूल.

टिंकल : घे बाबा पिये.

रॅनात : (घेवन) थँक्यू.

टिंकल : (मिरयत) आनीक एक फावट म्हण. बोरें दिसता.

बॅव्हींदा : टिंकल दी आनी भीतोर वोच.

टिंकल : (रॅनाताक पळयत दोतोराक दिवन) ओ. के. मॅडम. (भीतर वेता.)

बॅव्हींदा : रॅनात हांवें तुका पोयलीं वोळखूंक ना.

डॉक्टर : (आमुरको हांसोन) कोसों वोवकोतलें. तो पोयलीं रॅनात डायस आसलो. आतां पुलीस इन्स्पेक्टर डायस जाला. (दोगूय चाव पियेताना फोकाणांनी) इन्स्पेक्टर आमकां अरेस्ट कोरुंक येवंक ना मुं?

रॅनात : डॉक्टर फोकाणां कित्याक कोरताय? ( चाव पिवन कोप दवरुन) तुज्यासारख्या देवमनशाक कोण कित्याक अटक करतोलो? तूं एक उदार काळजाचो मनीस. गोरजेवोंतांक पावपी आनी कोसल्याय सोंस्थांक, क्लुबांक दुडवांचो आनी हेर कोसलोय आदार कोरपी आनी डॉक्टर तुज्या मोलादीक आदारा पासोतुच हांव आयज पुलीस इन्स्पेक्टर जालां.

डॉक्टर : सोड ती गजाल.

रॅनात : डॉक्टर तुमचें कोशें चोललां?

डॉक्टर : बॅस्ट. आमचे क्लेसी पुण्यातूच आसा.

बॅव्हींदा : तुका केन्ना मेवलोलें?

रॅनात : ना. तें ह्या दिसानी घरा येवंक ना?

बॅव्हींदा : ना.

डॉक्टर : कित्याक विचारताय?

रॅनात : (शांतीकायेन) डॉक्टर, क्लेसी ह्या दिसांनी कॉलेजीच्या क्लासीक येयना ... आनी हॉस्टेलांतूय ना.

बॅव्हींदा : (काळजाक धक्को बसोन) आँ ऽऽ किते?

रॅनात : कॉलेजीच्या ‘डीनान’ क्लेसीचो फोटो दिवन पुलीसेंत तोक्रार केल्या. त्याखातीर आमच्या डी. वाय. एस. पी.न म्हाका धाडलोलो. तें घोरा पावलां काय पळोवंक.

डॉक्टर : (सुस्कारोन) आमकां तोसली कोसलीच मॅसेज पावोंक ना.

बॅव्हींदा : (फुगार जावन) म्हुजे धुवेक कितें जालें? गुंडानी उबारून व्होरून ‘कीडनॅप’केलें (हात जोडून) देवा कितेंय वायट घोडोना जाल्यार पुरो.

डॉक्टर : (पासयो मारताना) रॅनात फाटीं क्लेसी त्या लोफोर रोहना सांगाताक पोळोन गेलोलें तेन्ना पुलीसेन तांकां सांपडावन पुलीस कोयदेंत दोवोरलेलीं. क्लेसीक आमी सोदून हाडून कितलें समजायलोलें ... (रागान) आनी ताकाच लागोन क्लेसीक पुण्या दोवरलेले. तोरूय तें ताच्याच सांगाताक पोळोन गेलें ... जाल्यार बॅव्हींदा आतां कितें?

बॅव्हींदा : ताच्याच सांगाताक गेलें ओशें कित्यावोरवीं म्हुणटाय? आनी .... तो गूंड पुण्यात कोसो पावों येता?

रॅनात : मादाम ... तो गूंड, मवाली पुण्यातूच न्होय पूण चेडवां बायलांक नाडूंक चंद्रीमार पासून पावोंक खोरो. बोरें हांव वेतां. आमची सोदपापासोत चवकशी चालूच आसतेली. पूण डॉक्टर तुमकां कितेंय खोबोर मेवल्यार (पाकीटांतल्यान कार्ड काडून दिवन) ह्या नुंब्राचेर फोन कोरात. ओ. के.. (रॅनात वेता)

डॉक्टर : (मातसो चिंतेस्त बोसोन) बॅव्हींदा ...

बॅव्हींदा : बॉर्जीस कितें करुया? क्लेसीचो चोड हुस्को जाला. (फोन वाजता)

डॉक्टर : (फोनार) हॅलो .. (फोनार अस्तुरेचो आवाज)

वॉर्डन : (फोनावेल्यान) हॅलो ...

डॉक्टर : हॅलो हांव डॉक्टर बॅनार्द बॉर्जीस उलयतां

वॉर्डन : (फोनावेल्यान) डॉक्टर हांव पुणे मॅडीकल कॉलेजीच्या हॉस्टेलाची ‘वॉर्डन’ उलयता. पाच दीस जाले ‘क्लेसी’ हॉस्टेलांत ना. आमी चोवकोशी कोरतात पूण पोत्तोच मेळोना. त्याखातीर आमी पुलीसेंत कंम्प्लेन केल्या.

डॉक्टर : आमकां पोयली मॅसेज कित्याक दिवंक ना?

ॉर्डन : (फोनार) तें येयत म्हुणोन आमी रावतालीं.

ॉक्टर : (तिडकीन) नॉनसॅन्स (रागान फोन दोवोरता.)

ॅव्हींदा : कोणाचो फोन?

डॉक्टर : हॉस्टेलाच्या वॉर्डनीचो.

ॅव्हींदा : कितें सांगता?

डॉक्टर : रॅनातान सांगलां तेंच.

बॅव्हींदा : आजून मेळ्ळोंक ना न्हूय?

डॉक्टर : ना.

बॅव्हींदा : हें कोसलें देवाचे निर्मोण?

डॉक्टर : (चाळोवन) देवाचे निर्मोण न्हूय आमच्या चोलयेच्या मोगाचे फोर्मोन. (परत फोन वाजता.)

डॉक्टर : (फोनार) हॅलो डॉक्टर बॉर्जीस स्पींकींग.

फोन : (दादल्याचो आवाज) हॅलो, आय. एम. डी. एस. पी. ऑफ पुणे सिटी. दत्ता चव्हाण हाचे ऑर्धीन उलोयता. डॉक्टर तुमची चली क्लेसी आनी रोहन मॅशकीता नावाचो तोरनाटो महाबळेश्वरांत एक हॉटेलाच्या रुमांत आमकां एकठांय सांपोडल्यांत.

डॉक्टर : (शांतीकायेन) सॉरी.

फोन : महाबळेश्वर म्हुण्टात त्या हील स्टॅशनार तांकां दोगांकुय पुणे सिटी पुलीसेन 'अरेस्ट' कोरून हाडल्यांत आनी आमच्या पुना पुलीस स्टॅशनार बंद करून दोवोरल्यात.. क्लेसी त्या चेड्याचो सांगात सोडूंक कोशेंच कोबूल जायना. मॅडीकल कॉलेजीच्या डीनान सोमजोयल्यार पासून तें सोमजून घेयना. तुमी घडटा तितल्या बेगीन ताकतिकेन हांगां येयात आनी तुमचें तुमी थारायात.

डॉक्टर : (घाम पुसून) थँक्यू. आमी पुण्यांत येनात. तांचेर नोदोरपासून घालूंक म्हाका खोशी ना.

फोन : तोर आमी कितें कोरचें?

डॉक्टर : तुमकां जाय तोशें कोरांत.

फोन : आमी तांकां सोडून दितात. तूं कितें म्हुण्टाय?

डॉक्टर : नो कॉमेंट्स ( फोन दवरून परत आपलें मुखामळ पुसून) बॅव्हींदा क्लेसी आनी रोहन दोगांय महाबळेश्वर हील स्टेशनांर रुमांत पुलीसेक एकठांय सांपोडल्यांत.

बॅव्हींदा : म्हुजी धुव आतां खोंय आसा?

डॉक्टर : (थंडपोणी) पुणें पुलीसेत बोंद आसा. (बसता)

बॅव्हींदा : (ताच्या लागीं येवन) आमी वोचोन तांकां घेवन येवयां न्हुय?

डॉक्ट : (उठोन निश्चेवान) नो. बॅव्हींदा ना. कितले फावट आमी ताका हाडटेली आनी कितले फावट तें ताच्या सांगाताक पोळोन वेतेलें? नॉनसॅन्स.

बॅव्हींदा : कोशेंय आनी कितेंय जाल्यार ती आमच्याच रोगताची धूव हें तूं कोशें विसोरताय?

डॉक्टर : रोगताची धूव म्हुणोनच तें एक फावटीं शेणाचे गायरींत पोडलेलें हाडून नितोळ कोरुंक चिंतलेलें ... पुण ना, ताका गायरेंतून लोळपाची खोशी, तोर तूं आनी हांव कितें कोरतेलीं?

बॅव्हींदा : तोरीय पूण तें ...

डॉक्टर : आनीक ताच्याविशीं कांयच सांगो नाकाय. (शांतपणी) तुका खोशी तोर तूं वचोन घेवन यो.

बॅव्हींदा : (खोशयेन) आर यु शुअर?

डॉक्टर : एस. पूण एक (तिडकीन), ताका घेवन येयत तोर ताका घरांतूच न्होय फाटल्या लोजांत पासून रावोंक मेळचें ना.

बॅव्हींदा : (दुखांनी) उपकार करून काळीज इतले निबोर कोरीनाकाय.

डॉक्टर : (सुस्कारोन) म्होजे काळीज निबोर न्हूय. पुण आतां काळोकीट पाषाणाचो घोट फातोर जालां. (भायर वेताना) ओसलीं भुरगीं जोलमातांच मोरोंक जाय.

बॅव्हींदा : बॉर्जीस राव (डॉक्टर थांबता.) कितें म्हुटलें, ओसलीं भुरगीं जोलमातांच मोरोंक जाय.

डॉक्टर : होय.

बॅव्हींदा : बॉर्जीस ओसलीं उतरां तुज्या तोंडाक सोबनात. तूं एक सर्जन डॉक्टर. एका भुरग्याक णव म्हयने आपले कुसव्यांत सांबाळून जोल्माक हाडूंक कितले कोश्ट, त्रास पोडटात तें फोकोत आवय जाणा आनी तूं डॉक्टर म्हुण्टोच तुकाय थोडी पूण माहिती आसोंक जाय. वायटूय जाल्यारपासून आमच्याच रोगता मांसाचें तें, ताका आमी सोमजोन घेवंक जाय.

डॉक्टर : पूण आतां हांव समजोन घेवंक तोयार ना.

बॅव्हींदा : (रागान) बॉर्जीस तूं क्लेसीक सोमजोन घेवंक तोयार ना?

डॉक्टर : ना..

बॅव्हींदा : जाल्यार हांवूय

डॉक्टर : तूं कितें? तू कितें सांगोक सोदताय?

बॅव्हींदा : (निश्वेवान) हांव तुका सांगोक सोदता ह्या .... ह्या फुडें (रोडोन) हांवूय तुका सोमजोन घेवंचें ना. (भीतोर वेताना)

डॉक्टर : (मोठ्यान) बॅव्हींदा!

बॅव्हींदा : (फाट कोरून वेता.)

डॉक्टर : ओ. के.

**(तोवूय ताका फाट कोरताना काळोख.)**

**(पयलों वांटो सोंपता.)**

## दुसरो भाग

## चवथो पड्डो

### (इकरावो देखावो)

**(रोहनाचें घर. जुगार खेळपी : जॉन, गाब्रू, राणे, रोहन,बॅबी आनी क्लेसी)**
**(आतां क्लेसीच्या हातांत गळ्यांत कांयच ना. फकत कानांतूच कानांतली आसात. क्लेसी, बॅबी भीतर आसतात.)**

**(देखावो सुरु जाता तेन्ना मेजार सोऱ्याची बाटली, सोडा ग्लासांनी घातलोलो आसता. सोरो पियेतां पियेतां रोहन, जॉन, गाब्रू, रामे (सिव्हील ड्रेसान) इस्पीकांच्या कार्डांनी खेळटात.)**

रोहन : (भीतर पळोवन) क्लेसी खावंक वाग्यो ना तोर सुंगटां हाड.
क्लेसी : खावंक कांयच ना.
एकलो : खावंक आनी नाका.
जॉनी : टायम जालो हांव वेतां.
गाब्रू : आमी आनी कित्याक रावोयां, चोल या.
डॉनी : गुड नायट रोहन.
रोहन : (तिगूय वेताना) जॉनी, तूं मात्सो राव.
जॉन : कित्याक? (हेर दोगूय वेतात.)
रोहन : आमी दोगूय मातशे बोसों या.
जॉन : चोड लेट जालो.
रोहन : कांय नेजो. तुका घुटान कितें सांगचें आसा.
जॉन : म्हाका?
रोहन : हय. (ताच्या कानात कितेंय तोरी सांगता.)
जॉन : तें काम कांय न्हय
रोहन : आतां आनी पांचूच मिनटां खेळोया.
जॉन : तुजी खोशी ... (दोगुय परत खेळोंक बसतात.)
रोहन : (थोड्या वेळान) पुरो म्हुजे दुडू सोंपले.
जॉन : रोहन तूं आयज हारल्यार पोर्वा ना. त्या दिसां तूं खात्रेन जिकतोलो.

ोहन : केन्ना?
ॉन : त्या दिसा.
ोहन : (हांसत्या तोंडान) हांव जिकतोच तुजें तुका गॅरेंटीन दितोलों.
ॉन : ओ. गुड नायट
ोहन : (पिकार जावन कोपाचो एकएक घोट मारून) क्लेसी!
्लेसी : (भायर येताना) कितें?
ोहन : (रागान) कितें काय विचारताय? (थापोट मारून क्लेसीक जमनीर शेंवटिता)
क्लेसी : (मात्शी निणनिणल्यापोरीं जावन उठून, रोडून) कित्याक मारताय?
रोहन : कित्याक मारता तें आनी विचारताय? (परत दाव्या हाताचें थापट मारता. क्लेसी लवंडोता) म्हुज्या फ्रेंडा हुजरां वाग्यो, सुंगटां ना म्हुणोन लोज कोरता?
क्लेसी : नासलेलीं तुमकां खोंयची दिवं आसलें? (भीतर भुरगें रोडटा) बेबी रोडटा, येतां हां (भीतर वेता.)
रोहन : (आनीक सोरो पियेता)
क्लेसी : (बेबीक घेवन येवन) बेबीचें आंग चोड गोरोम जालां.
रोहन : (बेपर्वायेन) मागीर हांव कितें कोरूं?
क्लेसी : (फुगार जावन) रोहन बेबीक डॉक्टराशी घेवन या.
रोहन : घेवन चोल. ( बेबी रोडोतआसता.)
क्लेसी : (खालतीकायेन) दुडू दिनाय?
रोहन : दुडू कोणा थांय आसात?
क्लेसी : तुजे थांय आसले तें?
रोहन : जुगारांत हारलों! थोड उरल्यात ते म्हाका फाल्यां जाय.
क्लेसी : रोहन ... ओशें कितें कोरता? पोय बेबी चोड बोरें ना .. ताका डॉक्टरागेर व्होरोना तोर कितेंय वायट घोडोत. (बेबीक) ओगी म्हुंजे बाय तें (बेबीक भीतर दोवरुन) बेबीक डॉक्टरागेर व्होरुंया न्हूय?
रोहन : तुका सांगलां न्हुय. तूं घेवन वोच म्हुणोन
क्लेसी : पुण पोयशे?
रोहन : तेंवूय सांगलां म्हुजे लागीं पोयशें नात.
क्लेसी : (दुख खोंतीन) कितले व्होड खोशयेन आनी आशेन सोगळें सोडून तुजे थांय काजार जालेलें ...

रोहन : त्या पोरोस चोड आनी व्होड आशेन हांव तुज्या थांय काजा जालोलों. पुण तूं नोस्टे पोनवोती (फोटकीरे खोंतीन) तुजे पार त्या घोरांत पोडच्या आदींच म्हुजो डॅडी, मम्मी सोगली गिरेस्तकाय, धनदौलत घेवन तुज्या रागान पोर्तुगालाक गेलीं. म्हुजो अंकल ऑस्ट्रेलियाक आसता तो म्होयन्या म्होयन्याक म्हाका वीस हजार रुपया धाडटालो. तेवूय ताणें हांव तुज्या थांय काजार जालां म्हुणोन रागान बोंद केले, कारण तीं सोमजाल्यांत तुज्या डॅडीची सगळी गिरेस्तकाय म्हाका मेवल्या (सुस्कारोन) पूण गिरेस्तकाय खोंयची? मेवल्या ती तूं पोनवोत! हाक थू!

क्लेसी : कितल्या मोगान आनी खोशयेन आमी काजार जालेली. आतां म्हाका पोनवोती म्हुणटाय?

रोहन : ना तोर कितें लाखपोती म्हुणो? तुकाच लागोन सोगळ्याच वांटांनी म्हजेर दोळदीर आनी लाचारकाय ..

क्लेसी : (दुखी खोंतीन) रोहन, म्हाका कितेंय म्हूण. पूण बेबीक डॉक्टराशीं व्होरोंक पोयशे दी. म्हुज्या थांय कांयच ना. भांगर आसलेलें तें पासून विकून खालें.

रोहन : (लार्गी येवन रागान) हांवे एकल्यानूच खायलें?

क्लेसी : तोशें हांवें म्हणोंक ना (समजावन) रोहन हें सोगळें तूं बेकार आसा. म्हुणोन घोडटा. तुवें खंयसरुय कोसलीय सिव्हींस केल्यार ...

रोहन : (विटोन तोंड काळें कोरून) सिव्हींस दुसऱ्याच्या हाताखाला सिव्हींस? केदनाच कोरुंक ना, आनी त्या फुडें कोरचोना.

क्लेसी : तोर आमचें कोशे जातेलें?

रोहन : (लागांनी फूस लावन) क्लेसी आमच्या शिवाय तुजे डॅडी मम्मीक कोणूच ना. तांचे दुडू गिरेस्तकाय आमकां मेळटोच. पणजे, म्हापशें, वास्को, फोंडे आनी मोडगांवां इलेक्ट्रॉनीक्स ॲलायन्सीसाची शॉपां घालून हांव व्होड इलेक्ट्रॉनीक्स बिजनसमॅन जातोलो.

क्लेसी : हांवें तुका कितले फावटी सांगलां, म्हूजे डॅडीचे गिरेस्तकायेची आशा कोरुं नाका म्हुणोन.

रोहन : तोर तुज्या थांय काजार जावन म्हाका कसलो फायदो?

क्लेसी : म्हुणचे तूं काजार जालोलो डॅडीचे गिरेस्तकायेचे आशेन न्हय. म्हज्या मोगान खोशयेन अशें न्होय?

ोहन : (पिकार जावन) मोग ...मोग कोणाचो? कोणाक कोणाचो मोग? म्हाका फोकोत दुडवांचो मोग. दुडू मेळोनात तोर बेबीच न्होय तूं पासून मेल्यार उपकारता.

क्लेसी : (संतापोन) रोहन .. (ताच्या तोंडार हात दोवोरताना भितर बेबी रडटा. क्लेसी बेबीक घेवन येता.) रोहन पळप, जोर चड जावन, बेबी मान वाकडी कोरून दोळे पोरतिता.

रोहन : आगो तुजो डॅडी नावास्तो व्होड बोरो दोतोर. तुका जाय जाल्यार बेबीक व्होरोन तुज्या डॅडीक दाखोय.

क्लेसी : (थक्क जावन) म्हुज्या डॅडीक?

रोहन : हय. तुज्या डॅडीक दाखोवंक ताच्या हॉस्पीटलांत घेवन वोच. (ताका धुकलून)चोल वोच. म्हाका बेजार कोरीनाकाय. (पोरतून धुकलून भायर घालताना) एक सांगतां पोरोत येताना तुज्या डॅडी थांय मागोन दोनलाख रुपया हाड.

क्लेसी : (वेताना दुखी मुखामळान रोहनाक पळयता.)

रोहन : पोयताय कितें ? डॅडी थांय दोन लाख घेवन यो. (तें गेल्या उपरांत) गेली, पिडा गेली! (हाहा कोरून खेबाडावन हांसताना) म्हाका मम्मी, डॅडी,अंकल कोणूचना. हांव सोगल्यांक फोटकीरीं बोंडोलां मारतां. तोशेंच क्लेसीक फोटोयतां. आरतें आसलोलें पोरतें कोरपी हांव तो रोहन गूंड (हा ..हा ... हा ...) रोहन गूंड!

**(काळोख)**

## (बारावो देखावो)

**रस्तो**

**(क्लेसी बेबीक घेवन)**

क्लेसी : (फुगार जावन) बेबी .... (उमो घेवन) दुसरो कांयच उपाय ना जावन आयज पोयलेच फावट तुका म्हुज्या जोल्माच्या घोरा डेडींशीं व्होरतां.

**गीत सव्वे**

**देवा म्हुज्या कोसली सोज्या.**
**रोहन तुज्या मोगान फोसलें**
**काळीजा तोडून डॅडी मम्मीक सोडून**
**साक्रामेंत जोडून काजार जालें**
**चिंतलेलीं चिंतना जालीं सोपनां**
**आदार कोण ना कितें कोरतेलें**
**कितें जाता तें जांव**
**बेबीक घेवन हांव**
**मारून धांव**
**डॅडीशी वेतोलें**

**कोरस**

**डॅडी मम्मीचें कांय आयकोंक ना,**
**देखून ओद्रुश्ट जालें फाव**
**रोहन मुनीस कोसलो जायत म्हूण ओसलो.**
**मात्रुय नासलो दुबाव**
**विस्वासान खांदार मान घोतलोली**
**विश्वासघातान तुवें घातलो घाव**
**बेबी तुकां व्होरतां, डॅडीच्या हातीन दीतां**
**देवा तूंच आमका पाव**
**बेबी तुका व्होरतां, डॅडीच्या हातीन दितां**
**देवा तूंच आमकां पाव**

(काळोख)

## (तेरावो देखावो)

**डॉक्टर बॉर्जीसाचो बंगलो**

**टिंकल, क्लेसी, बॅव्हींदा, बेबी, डॉक्टर**

**सूर्या उदेवंच्या पयलींचो वेळ. झीळमीळ कोसो. भायर रिक्शाचो हॉर्न वाजता. मातशे ळान दाराची बॅल वाजता. टिंकल दोळे पुशीत नायट ड्रेसांत भीतरसून येवन भायलें ार उगडून)**

टिंकल : (भायर पोळोवन) कोण? (परत दोळे पुसून अजापान पळोवन, खोशयेन) बाय क्लेसी ...

क्लेसी : (तोंडार बोट धोरून) शुऽऽ शुऽऽ मोठ्यान उलोवं नाकाय मम्मीक सांग हांव बेबीक घेवन आयलां म्हुणोन

टेंकल : यो बाय, भीतर यो. ... (भीतरल्या दाराशी वचोन आवाज चिड्डून) मादाम ... मादाम, क्लेसी बाय बेबीक घेवन येयलां

बॅव्हींदा : (जांबयो काडीत भायर येताना) टिंकल दीस जालो. तूं आजून सोपनेताय?

टिंकल : ना मादाम, हांव सारखें जागें आसा ना तोर म्हाका चिमटो काड्डून चोय, खोरेंच क्लेसी बाय बेबी,क घेवन येयलां ...चोय..

(बॅव्हींदा दाराशीं वेता)

क्लेसी : (भीतर येवन) मम्मी!

बॅव्हींदा : (वेंगोयताना) म्हुजी धुव क्लेसी! (दुखीन) बाय हो तुजो भेस...

क्लेसी : (परत रिक्शाचो हॉर्न) मम्मी, पयलीं रिक्शावाल्याचे दुडू फारीक कोर ...

बॅव्हींदा : आँ ... कितें?

क्लेसी : रिक्षावाल्याचें भाडें.. तो पोयशांक रावता. म्हुज्या थांय कांयच ना. सारखें त्रासांत आसा.

बॅव्हींदा : (ताकतिकेन भीतर वेता)

टिंकल : बाय बाय... तुजो घोव येवंक ना? तूं सारखें बारीक जालां मुगो बाय? जेविना?

क्लेसी : (दोळ्यांत दुखां येतात.)

टिंकल : बाय तुज्या दोळ्यांत दुखां?

बॅव्हींदा : (दुडू घेवन येतना)

क्लेसी : (दुखां पुसता)

बॅव्हींदा : (भायर वेताना) टिंकल बायक चाव कोरून हाड. (बॅव्हींदा भायर वेता)

टिंकल : बाय कॉफी कोरून हाडटां ... कांसेदीक बोरी (भीतर वेता)

क्लेसी : (सगळ्याक नियाळून पळेताना)

बॅव्हींदा : (भीतर येता आनी बॅबीक घेता)

क्लेसी : (भियेवन) मम्मी, डॅडी?

बॅव्हींदा : तो मॉर्नींग वॉकाक वेता म्हूण तूं नोकळो (घाबरून) क्लेसी. बेबीचें आंग कितलें गोरोम?

क्लेसी : चार दीस जाले बेबीक जोर येता. रातीं चोड जायत पासून मान खाला घालता.

बॅव्हींदा : आनी रोहन?

क्लेसी : आसा. (दुखांच्या हुंडक्यांनी) ताका आमचें कांयच पोडोंक ना, दीस रात तुमच्या थांय दुडू मागोन हाडपाक सोतायता. (रडोन) मम्मी तुमचें आयकोनासताना तुमका दूख दिवन रोहना थांय काजार जालें आनी जिवीतांत फोसलें. बेबीक डॉक्टराशी व्होरोंक पोयशे नात म्हुणोन डॅडीक दाखोवंक घेवन आयलां.

टींकल : (चाव घेवन येता) बाय चाव पिये.

क्लेसी : दवर

टिंकल : मम्मी ऽऽ

बॅव्हींदा : पयलीं चाव पिये.

क्लेसी : (चाव तोंडाक लायताना बॉर्जीस भीतर येता.)

डॉक्टर : (जॉगींग सुटान भीतर येताना) बॅव्हींदा, इतके सोकाळीं दार ...

क्लेसी : (डॉक्टराचो आवाज आयकोन क्लेसीच्या हातांतलें चिक्रपिर खाला पोडटा. भियेवन मान खाला घालून) डॅडी?

डॉक्टर : (संतापोन) कोण? कोण कोणाचो डॅडी? (क्लेसी आनी बॅव्हींदा कोडकोडटांत) बॅव्हींदा हाका घोरांत कोणें, कोणाचे पोरवानगेन भीतर घेतलां ... (दोगांय गुपचूप) बॅव्हींदा हांव तुका विचारतां.

बॅव्हींदा : हांवे तांकां खोशयेन घेवक नात. आमचे बेबी चोड सिरीयस आसा.

डॉक्टर : आमचें? म्हुणचे कोणाचें? आमगेर आनी बेबी केन्ना जालें?

बॅव्हींदा : तू कोसो सोमजोनाय? क्लेसीचें बेबी आमचेंच न्हूय?

डॉक्टर : कोण क्लेसी? बॅव्हींदा तुज्या म्हुज्या शिवाय आमकां कोणूच ना!

क्लेसी : (बेबी रोडटा) डॅडी?

डॉक्टर : शट अप, हांवें तुका विचारुंकच ना.

बॅव्हींदा : ओशें कितें उलोयताय? कोशेंय जाल्यार क्लेसी आमची धूव.

डॉक्टर : पोयलीं आसल्ये ... आतां न्होय! ताका आतांच हांगाचें वोचोंक सांग.

बॅव्हींदा : सांगतां. ह्या निष्पाप भुरग्याक तोरी पोळोयतोलो कीं ना?

डॉक्टर : ना! ताच्या भुरग्याचेर पासून नोदोर घालूंक म्हाका खोशीना.

बॅव्हींदा : (बेबीक क्लेसी थांय दिवंन) हांव तुजे खुशीभायर केन्नाच चोलोंक ना. तुजी खोशी तीच म्होजी खोशी म्हुणोन चोलोन आयलां. पूण आतां ...

डॉक्टर : कितें सांग

बॅव्हींदा : तुज्या थांय मोकळेपोणान उलोयतां.

डॉक्टर : उलोय तूं.

बॅव्हींदा : तूं हे चोलयेचो बापूय हें रागान विसोरताय तेंवूय बोरें आसा; ह्या भुरग्याचो'ग्रँडपा' म्हुणोन विसरोता तेंवूय बोरें आसा; पुण पिडेवोंत दुयेंतीचो जीव सांबाळूक वावुरतोलीं म्हुणोन 'एम. बी. बी. एस.' डीग्री घेताना सोपूत दिलोलो तो मात विसरोंक फावोना.

डॉक्टर : तो सोपूत हांव सोदांच पाळटां. आनी ह्याय फुडें पाळटोलों.

बॅव्हींदा : आता नियाळ कोर. ... (बेबीक आपल्या हातीन घेवन) हें ल्हान भुरगें तुजें म्होजें कोणूच न्होय ओशें सोमोझ. तें पीडेंत आसोन ताचो जीव सांकोश्टात आसा. तें एक पेशंट, ताचो जीव सांबाळूंक ओव वाटोंवंक तुजो नोयतीक कायदो कींना?

डॉक्टर : (चिंतनानी घुस्पोन पासयो मारताना)

बॅव्हींदा : ताच्या आवयन बापायन तुका ओकमान करुन दूख दिलां हें सोत. पुण तांच्या गुन्यावांची ख्यास्त ह्या निरपोराधी बाळकाक कित्याक? त्या निशपाप भुरग्यान तुका म्हाका किते वायट केलां?

डॉक्टर : (बॅव्हींदाच्या तोंडाक पळयता.)

बॅव्हींदा : तूं म्हुजो घोव, आनी चोड कोरून तूं एक डॉक्टर म्हुणोन खालतीकायेन उपकार मागतां. जाता तितल्या वेगीं त्या भुरग्यार इलाज कोर.

डॉक्टर : म्हुज्या दोतोरपोणाचो कायदो हांव जाणा. तोच नोयतीक कायदो पाळूंक ह्या भुरग्याचेर इलाज कोरतां. म्हुजी नात म्हुणोन न्हय. पूण एक पेशंट म्हुणोन. हॉस्पीटलांत घेवन येयात.

**(भीतर वेताना काळोख)**

## पाचवो पड्डो

### (चौदावो देखावो)

### हॉस्पीटल

**क्लेसी, बॅव्हींदा, डॉक्टर, टिंकल, इन्स्पेक्टर राणे.**

**(बॅव्हींदा आनी क्लेसी दुखेस्त चिंतेस्त बसून आसतात. टिंकल उबें आसता.)**

| | | |
|---|---|---|
| डॉक्टर | : | (भायर येताना) सिस्टर हाचे ताका धा धा मिनटांनी दोन दोन थेंबे घाल. बॅव्हींदा फार्मसींत वोचोन (रॅसेत दिवन) हें मॅडीसीन घेवन ये. पांच एक हजार रुपया पोडटले. बेगीन इमर्जन्सीन जाय. |
| बॅव्हींदा | : | पोयशे दिनाय? |
| डॉक्टर | : | ताची मम्मी, डॅडी दितेली. |
| क्लेसी | : | (लाचारकायेन) डॅडी म्हुज्या थांय कांयच ना. |
| बॅवव्हींदा | : | बॉर्जीस तूं दी न्होय |
| डॉक्टर | : | हांव दुडू दीवं? बॅव्हींदा हें कितें? पॅशंटाक तोपासपाचो दोतोराचो नोयतीक कायदो. आनी वोखदां हाडूंक दुडू दिवंकूय दोतोराचो नोयतीक कायदो? |
| क्लेसी | : | डॅडी, उपकार कोरून दी न्होय? |
| डॉक्टर | : | (रागान) दुडू? (भितोर वेता) |
| क्लेसी | : | (फुगार जावन) मम्मी तूं पुण डॅडीक सोमजाय न्हुय? |
| बॅव्हींदा | : | एके आवोयच्यान आपल्या भुरग्याची ओसली दोशा कोशी पोळोवं येता? (भायर वेता) |
| क्लेसी | : | (भीतर वचूंक लागता) |
| टिंकल | : | बाय तूं खोंय वेताय? |
| क्लेसी | : | बेबीशीं. |
| टिंकल | : | हें आसा तें? मांय पायचें आयको नासताना आपल्याक जाय त्या कोणाचोय मोग कोरताय. आवयबापायच्या खोशयेभायर पोळोन वेताय, जायती मौज मारताय़ आनी मागीर रोडटाय? आतां रोडोन कित्याक शिरीं पोडटां. आदल्यांची म्हुणणी आसा. चिंत मुनशा कोरच्या आदीं कीतें कोरच्या आदी चिंत मनशा ... |

क्लेसी : (भायर येताना) तें चितोन म्हाका जीव दिवन मोरोन दिसता.

बॅव्हींदा : (भायर येवन) शी ... शी ... क्लेसी तोसलीं नोश्टीं चिंतना चिंती नाकाय; सोमदीराक सुकती भोरती आसा, तोशेंच मुनशाच्या जिवीतांत सुख दूख आसा. दुखाच्या वेळार निराशी जांव नये. हें दुख सोंपतलें आनी तुमच्या जिवीतींत सुखाचे दीस येतले. घे, फार्मसीन वोचून ये.

क्लेसी : (खोशयेन) दुडू डॅडीन दिल्यात?

बॅव्हींदा : कोणें दिल्यात तें म्होत्वाचें न्हुय पूण ह्या वेळार वोखदां म्होतवाचीं .. चल .

क्लेसी : (वेता)

बॅव्हींदा : टिंकल, तुंवूय घोरा वोच.

टिंकल : वोयता मादाम. (वयताना इन्स्पेक्टर राणे येता.)

राणे : डॉक्टर ... डॉक्टर ( खोरशेता)

टिंकल : किते जाले रे? खोरशेत खोरशेत बोब कित्याक मारतां?

राणे : डॉक्टर ना.?

टिंकल : डॉक्टर भीतर आसतोलो.

राणे : मात्सो आपोवन हाड.

टिंकल : आपोवन हाडी? डॉक्टर आपोवन हाडूंक हांव तुजे रापवारी तोर? हांव दोतोराचे घोरांतले कारभारी आसां. (हालोत धोलोत भायर वेता.)

राणे : मॅडम, कोशीं आसात. डॉक्टर

बॅव्हींदा : भीतर आसा. तूं बोस

क्लेसी : (वोखदां घेवन येता) मम्मी ...

डॉक्टर : (डॉक्टर भायर सोरताना क्लेसीचेर नदर घालून घुंवडायता)

बॅव्हींदा : डॅडी थांय दी.

डॉक्टर : भीतोर सिस्टेरी तांय दियात. इन्स्पेक्टर कोसलो कावज? (बॅव्हींदा, क्लेसी भीतर वेतात.)

राणे : डॉक्टर आतां आमच्या पुलीस स्टेशनार नोवो ऑफीसर ओ अधिकारी येवंचो आसा. म्हुजे अधिकार उणे जातेले.

डॉक्टर : (हांसत्या मुखामोळान) त्या कालाक म्हुज्यान कितें कोरूं येता?

राणे : डॉक्टर म्हुज्या पासोत कांयच कोरची गोरोज ना. हांव तुमच्याच बोऱ्याची गोजाल सांगतां

डॉक्टर : कोसली ती?

राणे : तुज्या चोलये जांवयां विशीं ...

डॉक्टर : पोरोत लोफडे केले?

राणे : ना. तोसलें कांय ना. तू एक नावास्तो डॉक्टर हें तुजे हॉस्पीटल, बंगलो सोगळी इस्टेट चोली आनी जांवयाकुच दितोलो न्हूय?

डॉक्टर : हें हांव आदीं चिंततालों .. आतां न्होय ... त्या दोवदिऱ्या, तोवनाशी गुंडा रोहना सांगाताक दुसरे फावट पोळून गेलें तेन्नासून क्लेसी म्होज्या मोनांतलें आनी काळजांतलें भायर पोडलें ... इन्स्पेक्टर, तुवें तांकां ॲरेस्ट कोरून जेलांत बोंद केलेलीं. सोगळें जाणा जावन तूं पोरोत तांची गोजाल कित्याक सांगताय तेंच सोमजोना.

राणे : तुमचे बोरेपण कोरुंक. डॉक्टर तांकां तुमच्या सांगाताक दोवरीत तोर तुमचे सोगळे प्रोश्न बोरेपणी सुटावें जातेले.

डॉक्टर : राणे, प्रोस्नुच नांत तोर सुटावे कोशे जातेले?

राणे : डॉक्टर मुनशाच्या जिवीतांत वेळ काळ सांगोन येयना. फाल्या वायट घोडणेन तुमकां कितेंय जालें जाल्यार

डॉक्टर : त्या आदींच म्हुजे हॉस्पीटल, बोंगलो आनी हेरकितें आसा तें सोगळें दुबळ्यांखातीर, देवाधर्माक दान दितोलों. इन्स्पेक्टर त्या तुज्या खाकी युनिफोर्माचो मान राखून चोड उलोयना. तुज्यान वोचों येता.

**(राणे डॉक्टराक पळयत वेतान काळोख)**

## देखावो पंदरावो

## रस्तो

**(टिंकल, एम. आर. एफ., इन्स्पेक्टर राणे)**

**(टिंकल फुडें आनी मातशे फाटीं रावन पुलीस ड्रेसान एम. आर. एफ. येता.)**

एम. आर. एफ. : मिस .... मिस ...

टिंकल : (टिंकल फाटीं वळोन) मिस .. मिस .. कोणाक म्हुण्टा?

एम. आर. एफ. : तुका!

टिंकल : (बेपर्वायेन) हांव मिस न्हू. मिस इंगोर्जेत जाताय. हांव टिंकल

एम. आर. एफ. : एस. टींकल. त्या दीस तुका हांवे दोतोराले घोर दाखोयलोलें न्हुय?

टिंकल : हय. आतां कितें दाखोयता?

एम. आर. एफ. : दाखोयल्यार तूं चोयतोलें?

टिंकल : (संतापोन) कितें?

एम. आर. एफ. : कांय न्हूय ... कांय ना. हांव आतां पुलीस हवालदार जालां.

टिंकल : जाल्यार चोराफाटल्यानँ धांव. म्हुज्या फाटल्यान कित्याक येता?

एम. आर. एफ. : (मुरगोटोन) हांव .... हांव ... हांव मुगो .. हांव तुको काजार जातां (समाधानान व्होड सुसकार सोडून लागांनी) हांव तुका लायक जायना?

टिंकल : ना. हांव विलियम दे कुरतोरीं लागीं काजार जातोलें. तो बोरो फास्ट स्पीडीन कांतांरां म्हुणटा.

एम. आर. एफ. : त्या पोरोस फास्ट स्पीडीन हांव म्हुणटा. आयक. (ताकतिकतेन उतरां सोमजोंक येयना आोशें गीत गायता)

टिंकल : (पळून वोचपाचो यत्न करता.)

एम. आर. एफ. : (ताच्या भुजाक धोरून ओडटाना)

टिंकल : (रागान) म्हाका हात लांव नाका हां. बोरें जावपा ना. भुजाक हात लावन ओडटाय कित्याक?

एम. आर. एफ. : तुंगे ...

टिंकल : (रागान दोळे मोटे कोरून) मुघे कित रे?

एम. आर. एफ. : (अदिकच मुरगोटोन) तुघे ... तुघे हे केंस ... (टिंकलाच्या केंसांक धोरताना)

टिंकल : (ताका धुकलून उडोवन) मुघे केंस तुघे पायचें भेंस!

एम. आर. एफ. : (दांडो तेंकोवन वेगीं वेंगी उठोन ताचेर दांडो मारुंक कोरताना)

टिंकल : (कांयच न्होय कोरून दांडो काडून भायर शेंवटिता) तुका सांगोतां, म्हुज्या मिझगोती येय नाका, बोरें जावपा ना. हांव कराटे जाणा.

एम. आर. एफ. : हांव जुडो जाणा. (पोरोत ताच्या आंगार वेताना, लटाफट जावन)

टिंकल : (आपल्या भेंडाचो बॅल्ट काडून हाताक बांदताना) हांवें तुका सांगलोलें मुरे, म्हाका टच जाय नाका, हांव कराटे जाणा म्हुणोन. (ताच्या बॉल्सांतली पिल्लूक काडून ताच्या तोंडात घालून) आतां पिल्लूक वाजय आनी कोणाकूय तुका सोडोवंक आपोय. (झेतान–नेटान वेता. थांबोनासताना पिल्लूक वाजयताना इन्स्पेक्टर राणे ताकतिकेन येता.)

राणे. : एम. आर. एफ.?

एम. आर. एफ. : (ताका पळोवन ओणोव घालून पांय आपटीत सलाम करता आनी पिल्लूक वाजयत रावता.)

राणे : (तिडकीन) पोयली पिल्लूक बोंद कोर.

एम. आर. एफ. : (वाजयताना हां म्हुणोक तोंड उमतें कोरुंक वेताना, पिल्लूक सकयल पोडटा.) सर, तोंड उगतें केल्यार पिल्लूक सोकोयल पोडटोली म्हूण म्हाका कोळोंकूच ना.

राणे : (ताचे हात सोडटाना) तुका कोणे बांदला?

एम. आर. एफ. : एका चेडवान.

राणे : कित्याक?

एम. आर. एफ. : हांवें तेको फोकोत म्हुको काजार जाता इतलेंच विचारलोलें.

राणे : गाढवा, काजार जाता म्हूण चेडवाक रोस्त्यार विचारताय? आनी चेडवान बांदून घालीपासून तुवें हातीन कांकणां घातलोलीं?

एम. आर. एफ. : कांकणां त्या चेडवान घातलोलीं (ओजाप कोरून) सर, तें कराटे जाणा. तेणे उजव्या पांयान खोंट मारून म्हुज्या पोटांत दुखोयलें. (रोडोन) आनी दावे पायान खोंट मारून कितें दुखयलें तें सांगूंक पासोन लोज दिसता. (जांगडामोदें हात लावन) आवोयस ...

राणे : तुका मारला म्हुणोन ताचेर केस घालूयां.

एम. आर. एफ. : प्लीज नाका सर. केस घायल्यार चेडवान पुलीसेक मारलो म्हूण सोगळ्या न्यूज पेपरांचेर फामाद जातोलें. एशे रेडयां धिरयो घालताय तें पुलीसांक मारताय म्हूण आमकां लोज जाता.

राणे : तेंवुय खोरें.

**(काळोख)**

## (सोळावो देखावो)

**(डॉक्टराचें घर.क्लेसी, बेबी, रोहन, बॅव्हींदा, डॉ. बॉर्जीस, रॅनात, राणे आनी पुलीस. क्लेसी बेबीक घेवन गीत म्हुणटा.)**

गीत सातवें

क्लेसी : **जेझू ... आंकव्रार मोरीच्या बाळका, हात जोडटां तुका, बोरी बुध दी ताका आनी कोर आमची सुटका... चिंतल्यार कांय एक नाका फुडार चिंतून तुजो, काळजाक पेट्टा उजो, कितेंच सोमजोना म्हाका कितेंय कोरून बेबीक सांभाळतेले, बोरें शिंकोप दिवन वाडोयतेलें. जेझू .. आंकवार मोरीच्या बालका हात जोडटां तुका बोरी बुध दी ताका आनी कोर आमची सुटका.**

रोहन : (बोरो न्हेसोन दोळ्यांक ओक्ल बी लावन ब्रीफकेस घेवन भायल्या दारार रावन आमुरको हांसून) बोरें गायन्नां कोरून बेबीक खेळोयता.

क्लेसी : (ताका पोळोवन आकांतान) रोहन तूं हांगां कित्याक आयला?

रोहन : दुडू व्होरोंक

क्लेसी : दुडू? कोसले?

रोहन : (भितर येताना) म्हाका दोथ .. देणे दिवंक ना तें! (बोसोंक कोरताना)
आसूं, तें मागीर उलोवंचें तुजो डॅडी खूंय आसा?

बॅव्हींदा : (हॉलांत येताना रोहनाक पळोवन भिलेल्या पोरीं) तो बेंगळुरा डॉक्टरांच्या कॉन्फरन्साक गेल्यार चार दीरा जाले. आयज पावतोलो. रोहन ताणे तुका हांगां पोळोयत तोर चोड वायट जातेलें.

रोहन : मम्मी .. (बॅव्हींदा आंगार जोल्लो पोडलेल्या सारखें आंग काडटा) वायट कांयच जांवंचे ना, बोरें जातेलें ( तिच्या लागीं वोचोन) मम्मी, हो रोहन आतां आदलो लापीट मवाली उरोंक ना. (आमुरको हांसोन) आतां रोहन जंटलमॅन जाला.

बॅव्हींदा : तोरीय पूण ...

डॉक्टर : (आपली ब्रीफकेस घेवन भीतर येताना) पूण आनी कितें? बोट घालुक दिल्यार आपशींच हात घालतोलो ही सैमाची चालती कोरणी!
(रागान भीतर वेताना)

| | | |
|---|---|---|
| रोहन | : | डॅडी .. (ताका पोळोय नासताना वेता.) गेलो, हांव मोगान डॅडी म्हुण्टां पूण तो रागान गेलो. (हांसोन) हांव .... |
| क्लेसी | : | रोहन तुज्या थांय उपकार मागतां. तूं हांगाचो कोडसोरोन वोच. .. |
| रोहन | : | (रागान) तूं म्हाका सांगताय? स्टुपीड! (क्लेसीचेर थापोट मारता. क्लेसी बॅबीक घेवन कुशीक रावता.) |
| बॅव्हींदा | : | (संतापोन) रोहन, तूं आमच्याच घोरांत आमचे धुवेक मारताय? |
| रोहन | : | घोर तुमचें, बायल म्हुजी! |
| बॅव्हींदा | : | ती आमची धूव. |
| रोहन | : | (खेबाडांनी) तुमची धूव? धुवेक काजार कोरताना दोत देणें कितलें दिलोलें? |
| क्लेसी | : | रोहन प्लीज, ओगी राव. |
| डॉक्टर | : | (भीतरसून भायर येताना) कित्याक ओगी? उलोवं दी ताका. दोत देणे दिवंक तुमी आमकां सांगून आमची मान्यताय घेवन काजार जावंक नात? |
| रोहन | : | आमी आमचे खुंशयेन काजार जालेलीं! |
| डॉक्टर | : | गूड! तोर दोतीचे दूडू खुंयचे सोदता? दोत देणे दिवोप घेवोप कायद्याआड जावन आसा! तोरुय तुका आशा आसली जाल्यार काजार रीत माणसुकेन जांवक जाय आसलें. आमचें खोशयेभायर पोळोन वोचोन न्हय. आतां हांव तुका सांगतां, तूं हांगाचो वोच. |
| रोहन | : | एक लाख रुपया घेतल्याशिवाय हांव कोसोच वोचचो ना. |
| डॉक्टर | : | एक लाख रुपया? हांव तुका एक रुपया दिवंचो ना. |
| रोहन | : | घोरांतल्या वोस्तुंची मोड–फोड कोरून तुमकां मारफोड कोरतोलो. (कोदेलां मेजां कितें मेळटा तें शेंवटिता) |
| डॉक्टर | : | (मोबायलाचेर फोन कोरताना) हॅलो पुलीस स्टॅशन, हांव डॉक्टर बॉर्जीस उलोयतां! म्हुज्या घोरांत कोण एकलो गुंडा, मोडफोड कोरता आनी आमकां मारतोलो ओशी धोमकी दिता. वेगीं पावात! |
| रोहन | : | तू म्हाका अॅरेस्ट कोरूंक पुलीसेक फोन कोरताय? (रागान अदिकूच मोडफोड कोरता) |
| क्लेसी | : | (घाबरोन) डॅडी .. डॅडी पुलीसेक येवं नाका म्हूण सांग |
| डॉक्टर | : | कित्याक? |
| बॅव्हींदा | : | तो आमका चोड वायट कोरीत. |

क्लेसी : खोरेंच डॅडी. तो एक सोरोप. दूख धोरुन घांस मारून वीख सोडूंक खोरो.

डॉक्टर : त्या आदींच सोरपाक जिवेंशी मारल्यार बोरो.

रोहन : म्हाका मारतोलो? कोण तूं जोड्डो? (बॉल्सांतले चाकू काडून डॉक्टर बॉर्जीसाच्या आंगार वेताना,इन्स्पेक्टर रॅनात, राणे आनी पुलीस पावोन ताका आडावन धोरतात.)

रॅनात : राणे, घालात ताका बेडी. (राणे आनी पुलीस रोहनाक बेडी घालतात.)

रोहन : म्हाका बेडी? ऑफीसर हें तुमकां म्हारोग पोडटले.

रॅनात : पोडों. ते मागीर पोळोवंचे! आमी इलिगल कांयच कोरचे नात. कायद्याच्या फास्केंतूच रावोन कितें कोरुंक जाय तें कोरतेले.

रोहन : ऑफीसर, तुमी म्होजो पावर नोकोत. गोरजे विरयत तुमी गांझील मुसाच्या मावल्यार फातोर मारुन गांझीलांक चोळोवन घालतात. हाचो पोरीणाम चोड वायट जातोलो आनी जोड्ड्या तुका सांगतां तुवें तुज्याच पांयांचेर फातोर मारुन घेतला.

रॅनात : राणे घेवन चोलात ताका.

रोहन : (पुलीस व्होरताना डॉक्टराक पोळोवन) तुज चोड आनी चोड वायट जातेलें.

डॉक्टर : क्लेसी पोयले फावट तुज्या सांगाताक पोळोन वोचोतसून आमचें सोगळें वायटूंच जालां! आनी कितें वायट जांवचे उरलां.

रोहन : तें पोळोवंक तूं आसचोना.

**(पुलीस व्होरताना काळोख)**

**पड्डो पडटा.**

# सव्वो पड्डो

## देखावो सतरावो

## पुलीस चौकी

**(इन्स्पेक्टर रॅनात, पुलीस राणे, रॅनात फायल पळयताना, एम. आर. एफ. पुलीस भायर भीतर सरताना इन्स्पेक्टर राणे ताकतिकेन खर्शेत येवन)**

राणे : (खर्शेत) सर...सर .. घात जालो. रोहन हॉस्पीटलांतलो पोळोन गेलो.

रॅनात : (नर्व्होज जावन) कितें? ताका राखोंक पुलीस बंदोबस्त आसताना पोळोन गेलो?

राणे : राती दोन वाजतां कॉन्स्टेबल पाटील टॉयलेटींत गेलोलो..

रॅनात : आनी तूं?

राणे : म्हाका मातशी झेम आयली. केन्ना गेलो कोळोकूंच ना.

रॅनात : (संतापोन) राणे ही कसली ड्युटी? काल कोर्टान ऑर्डर दिलोली म्हुणोन रोहनाक हॉस्पीटलांत ॲडमीट केलोलो ... तुमची ड्युटी आसली रातचीं बारा तीं चार... छे.. छे.. छे.. कोसलीं बेजोबाबदारपोणा? पुलीस राखोंक आसताना आरोपी पोळोन वेता आनी पुलीस न्हिदोन रावता!

राणे : सर,आमी न्हिदोंक नात. तेन्नाच मातशें ....

रॅनात : शट अप! आरोपी पोळोन गेला. तेन्नाच हांगां 'मॅसेज'कित्याक धाडूंक ना? (घडयाळार पोळोवन) आतां आठाक येवन तूं सांगता?..

राणे : ( गुन्यांवकार कसो) सर चूक जाली खोरी.

रॅनात : चूक जांवक ना राणे. ही चूक तुवें मुद्दोम केल्या. तुजी सोगळी 'रीकोर्ड' हांव जाणा. हवालदार सोगळ्या पुलीस स्टॅशनार आनी चॅक नाक्यांनी 'वायरलेस' कोर. राणे, तुज्या ओसल्यांक लागोन सोगळ्या पुलीस खात्याची मात अब्रू वेता.
(एम. आर. एफ. भीतर वेता.)

राणे : सॉरी सर.

रॅनात : नॉ सॉरी. आताच्या आतां तूं रोज्या घेवन वोच आनी पुलीस डीपार्टमेंटाच्या चोवकशेक तोयार राव.

राणे : पुण सोर...

रॅनात : म्हाका तुजें आनीक कांयच आयकोंक नाका. लाळये भ्रोश्टाचारी पुलीस ओधिकारी आसोत तोर नागरीकांक शांती, बोरी राखोण कोशी मेवतली? पुलीसेंत सिव्हींस कोरताय? तुज्या ओसल्यांनी पब्लीक टॉयलेटींत रुपया दोन रुपया घेवंक रावपाक जाय. ... हवालदार जीप रॅडी दोवोर.

एम. आर. एफ. : एस सर. (एम. आर. एफ. भायर वेताना)

रॅनात : राणे यू गॅट आवट! तुजी हांगां गोरोज ना.
(दोगूय एकामेकांक पळयतात.)

**(काळोख)**

## (एकुणीसावो देखावो)

### रान–जंगल

**(मॉर्नींग वॉकाच्या भेसांत डॉक्टराची मेल्ली कूड. इन्स्पेक्टर रॅनात, पुलीस, बॅव्हींदा, क्लेसी, बेबी)**

**(रॅनात आनी पुलीस पंचनामा करताना. बॅव्हींदा आनी क्लेसी बेबीक घेवन येतात.)**

बॅव्हींदा : (रोडोन) बॉर्जीस ... बॉर्जीस (ताका वेंगोवंक करताना)

रॅनात : (तिका आडावन) मॅडम ताका टच कोरी नाका. पोयली आमकां पंचनामा कोरून कुडीचो पोस्ट मार्टेम कोरुंक जाय.

क्लेसी : डॅडी .. डॅडी ... (उलो मारीत रडटा.)

बॅव्हींदा : पूण सायबा...

रॅनात : मॅडम म्हाका सायबा म्हुणो नाकात. तुमचेर भिरांकूळ आकांताचें वीज पोडलां तें हांव जाणा. नियाळून हांवूय दुखी पूण म्होजो नाईलाज आसा. काळीज फातरासारखे घोट कोरून म्हुजी ड्युटी म्हाका करपाकूच जाय. 'पोस्ट मार्टेम' जातकूच कूड तुमच्या ताब्यांत मेवतोली.

क्लेसी : डॅडी ... डॅडी हें तुका म्हाकाच लागोन फाव जालें. (बॅव्हींदाक वेंगोवन) मम्मी आमचो फुडार किंतें?

बॅव्हींदा : बॉर्जीस हांव किंतें कोरूं? फुडाराक सोगळोच काळोख दिसता. (रडटा)

रॅनात : रोडों नाकात. आयलोल्या दुखाक, सोंकोटाक काळजीदारपोणान फुडो कोरुंक जाय. हवालदार कूड जिपींत दोवरात.

**(बॉर्जीसाक उबारताना काळोख)**





## विसाव्वो देखावो

## वेळेर शॅक

**(बोर्डार चिकन, बीफ, मटन, सूप मेळटा अशें बरयलेलें आसा.)**

**(एम. आर. एफ., गाब्रू, टिंकल. गाब्रू टिंकल आतां काजार जाल्यांत. टिंकल साडी न्हेसोन भीतर आसताना गाब्रू मेजार ग्लास दवरताना एम. आर. एफ. शॅकात येवन बसता.)**

गाब्रू : पयलीं भाशेन उदार फुकोट कांय मेळपार ना.

एम. आर. एफ. : (बेपर्वायेन) कोणाक जाय तगे फुकोट उदारु?

गाब्रू : ना. सांगोता तुका आतां हांव काजार जालां

एम. आर. एफ. : आवयस. काजार जालो म्हूण व्होडलो जालो काय कितें? त्यो खोबरो सोड. एक सूप हाड.

गाब्रू : पोंदरा रुपया उडोय.

एम. आर. एफ. : सूप दिवंच्या खावंच्या पोयलीं पंदरा रुपया?

गाब्रू : एस. पुलीसांकोडल्यान आमी सोदांच पोयले दुडू घेताय. जाल्यार ते जेयताय खाताय आनी मागीर पिस्तोल दांडो हालोयत वोयताय.

एम. आर. एफ. : (उठोन) कितू पोयशे?

गाब्रू : पोंदरा रुपया म्हूण सांगलोना?

एम. आर. एफ. : (ओर्रादु पाकिटांतले वीस रुपया काडून) हे घे वीस रुपया. उरलोले पांच रुपया तुका टीप.

गाब्रू : थॅक्यू (भीतर वेता.)

एम. आर. एफ. : हो आंकोल मोटको घेताय तिंगां, गोडगोडो खेळटाना मेवल्यार हाच्या हातीक बेडी न्हूय, गोळ्याक राजू बांदून व्होरना जाल्यार हांव न्हूय तो हवालदार एम. आर. एफ. (परत बसता.)

गाब्रू : (सूप हाडून) घे. (मेजार दवरता)

एम. आर. एफ. : (कांश्यातलें कुलेर बॉल्सांत घालून फूंक मारून मारून तोंड लावन पियेताना) घोस्ताक बॅस्ट आसा. केस्सो सूप?

गाब्रू : मशरुम सूप! घोस्ताक बॅस्ट न्हूय?

| | | |
|---|---|---|
| एम. आर. एफ. | : | बॅस्ट म्हुळ्यार सामखो वंडरफूल. (परत सूप पियेताना सुपांत आसलोलो जल्लो तोंडांत पडटा. तें ओळमें समझोन चाबताना, केसो सूप? |
| गाब्रू | : | 'मशरुम' म्हुळ्यार ओळम्यां सूप. |
| एम. आर. एफ. | : | (तोंडातलो जल्लो बोटांनी धोरून रागान दोळे मोटो कोरून) हें कितें? |
| गाब्रू | : | (खालतीकायेन पूण खोशयेन) जल्लो न्हूय? |
| एम. आर. एफ. | : | तोंड घेयन आनी सांगोता जल्लो म्हुणू? हांव ओळमे म्हूण चाबोत आसां (रागान जल्लो ताच्या तोंडांत घालता.) |
| गाब्रू | : | ...... थू... (जल्लो भायर उडयता.) |
| एम. आर. एफ. | : | तुज्या तोंडात घायल्यार शी .. थू.. आनी ओळम्यां सूप म्हूण म्हाका जल्ल्यां सूप दिता न्हू? (ताच्या गळ्याक धोरून फुगार करताना) |
| गाब्रू | : | (आकांतान बोब मारून) यो गो हे .... तें ... यो गो. म्हाका फुगार कोरुन मारता म्हुगो ... हें तें वेगीं यो गो .... |
| टिंकल | : | (कुझनांतल्यान कट्टेचो दोवलो घेवन भायर येताना) आवोय् .. स ... म्हुगे हेका फुगार कोरता ... (दोवलो एम. आर. एफ.च्या तकलेर मारून) एम. आर. एफ. तो म्हुगेलो एकलो घोव गाब्रू ... तूं पोयलीं कुशीक राव. |
| एम. आर. एफ. | : | (तकली पुशीत टिंकलाक पळयनासताना)कुशीन आनी राव म्हुणटाय? तुमगे सुपांत जल्लो आसलो तो म्हुज्या तोंडात पोडलो. |
| टिंकल | : | आवोय? तुका जोल्लो मेवला मुरे आमगेले सुपांत गिरायकांक हुंदीर पासून मेवताय ... न्हू रे गाब्रू? |
| एम. आर. एफ. | : | (गाब्रूक सोडटा. गाब्रू शर्टाचें कॉलर सारखें करून मेकळो सुस्कार घेता. एम. आर. एफ. टिंकलाक पळवन सावचीत जावन खोशयेन मुरगट्टा) टिंकल तूं हिंगां केशें? |
| टिंकल | : | हिंगां केशें म्हुणजे? हांव हांगा गाब्रूकोडे काजार जालां (गाब्रूक) न्हूं रे? |
| गाब्रू | : | हें आनी सांगो जायें? तुका आनी म्हाका चोयल्यार कोळटा? |
| टिंकल | : | (गाब्रूचो कीस घेता.) |
| एम. आर. एफ. | : | (रडोन) हांव तुकोडे काजार जावपा मुगो? |
| टिंकल | : | तूं आनी तुजो दांडो म्हाका बोरो दिसना आसलो. |

ऎम. आर. एफ. : तोरुय हांव तुकोडे काजार जावपाचो. (दोळे घुंवडावन) हो तुगेलो घोव? आनी हांव कोण? (घुंवोळ येवन घुंवोन घुंवोन पडटा.)

ाब्रू : (ताकतिकेन) टिंकल, पियाव हाड. ताच्या नाकाकोडे धोरून धाटोवया. पियाव हाड.

(काळोख)

## (एकवीसावो देखावो)

**(डॉक्टराचो बंगलो. बॅव्हींदा, क्लेसी, बेबी)**
**(बॅव्हींदा एकलेंच चिंतेस्त बसलेलें आसताना)**

**गीत**

बॅव्हींदा : **चिंतून चिंतून फुगार जातां**
**काळजांतलो हो सुस्कार सोडटां**
**बॉर्जीस तुजें मोरोण**
**चिंतून चिंतून रोडटा**
**चुरचूरे नासताना खून कोरून**
**पोळोन तो भोंवता आतां**
**बायलेक चेडवाक हांगा सांडल्यांत**
**घालून खोटां**

**कोरस**

क्लेसी : **ओदीक बोरें मम्मी**
**हांव तोर जोल्मोंक नासलें.**
**म्हाकाच लागोन घोराब्याचेर**
**ओद्रुश्ट ओसलें**
**आतां रोडोन कोसलो फायदो**
**सोगळ्याच वाटांनी फोसलें**
**देवा आमच्या फुडें**
**जिवीत जायत कोसलें?**
**देवा आमच्या फुडें**
**जिवीत जायत कोसलें?**
(गीताचो सूर सवकासायेन वाजत आसता.)

क्लेसी : मम्मी आमकां आता पुलीसेंत वोचोंक जाय न्हूय?

बॅव्हींदा : पुलीसेत वोचोन आनी कोसलो फायदो? तुजो डॅडी आमकां पोरोत मेळचो आसा?

क्लेसी : ना. सोरकारी कायदो पाळुंकूच जाय न्हूय?
**(गीताचो सूर चालू आसताना काळोख)**

## (बाव्वीसावो देखावो)

## पुलीस चौकी

**(रोहन, ताचे सांगाती गूंड, डी. वाय. एस. पी., रॅनात, पुलीस,बॅव्हींदा, क्लेसी आनी बेबी)**

**(रोहन आनी ताचे सांगाती भीतर वेगवेगळे बंद आसतात. पुलीस दोनूय कुशीनी उबे. बॅव्हींदा आनी क्लेसी काळे न्हेसोन बेबीक घेवन बोसोन आसताना डी. वाय. एस. पी. रॅनात केश पेपराची फायल पळयताना उठोन)**

रॅनात : मॅडम ... (मेजावेली फायल दाखोवन) हांगां सही कोर.

बॅव्हींदा : (मोन्यानी सही कोरून फाटीं सोरता)

रॅनात : क्लेसी तूं हांगां...?

रोहन : ( बेबीक बॅव्हींदा थांय दिवन सही करूंक वेताना) क्लेसी ... क्लेसी .... म्हज्या क्लेसी ..

क्लेसी : ताचे आयकोनासताना सोही कोरून बेबीक आपल्या थांय घेताना

रोहन : (फुगार जावन रोडोन) क्लेसी .... प्लीज .. प्लीज .. बेबीक मात्शे म्हुज्या थांय दी न्होय!

क्लेसी : (संतापोन) कित्याक? डॅडीपोरीं बेबीचोय खून कोरूंक?

रोहन : (आपल्या दोळ्यांचेर हात दोवरुन) ना. .. ना ... ना ... तें बेबी म्हुजे.

क्लेसी : आनी तुवें खून केलाय तो डॅडी म्हुजो न्हय आसलो? तूं देवचार. राकेस, खूनी ... बेबीकूय जिवो मारुंक खोरो.

रोहन : डॅडीचो खून कोरून हांवें व्होड चूक केली....

क्लेसी : ना. चूक तुवें करुंक ना. तुज्या फोटकीऱ्या, मोतलोबी मोगाक भुलोन तुज्या थांय काजार जावन हांवें व्होड चूक केली!

रोहन : ताणें म्हाका एक लाख रुपया दिलोले तर ताचो खून जावंचो नासलो.

क्लेसी : महापापी, विस्वास घातक्यां; तूं मोगान, खोशयेन काजार जांवक ना, पूण डॅडीच्या गिरेस्तकायेच्या आशेन जालेलो न्हूय?

रॅनात : क्लेसी आतां तुजे दोळे उगोडले, पूण चोड लेट जालो.

बॅव्हींदा : ह्या खूनी, घातक्याक कोशीच सुटका दिवं नाकात. हो दुडवांचे आशेन आमचोय खून कोरीत.

क्लेसी : कोरीत न्हूय मम्मी कोरतोलोच!

रॅनात : भिये नाकात. गेल्लें फावटी त्या भ्रष्टाचारी सब इन्स्पेक्टर राणेन ताका पोळोन वोचूंक मुद्दोम सुएग दिलो. हे फावटी ताच्या सोगळ्या वायट नोश्ट्या कोर्तुबांची म्हायती एकठांय कोरून पुरावे इतले मोजबूत घोट केल्यात. कायद्याच्या फास्केंतलो रोहन सुटोंक कोठीण. कोर्टांत केश दाखोल जातोच ताका गोळ्याक फांशी ओ जिवीतभोर बोंदखोण कोशीच चुकना.

बॅव्हींदा : मोर्दींच तो आपली आडगां नाडगां कोरून सुटलो जाल्यार ...

रॅनात : मॅडम, मुनीस एक फावट चुकों येता. तोसलीच चूक दुसरे फावट कोरतात तांकां मोनीसपोण फावोना. हें फावट रोहन नितीच्या खास्तींतलो सुटचो ना म्हुणोन हांव खात्री दितां.

क्लेसी : आनी सुटलोच जाल्यार ........?

रॅनात : तुमचें आनी म्हुजे दुर्दैव! मॅडम, क्लेसी रोगोत व्हांवतेल्या घाव्याचेर मीठ घांसून तुमकां ओदिक हुलोप दिवंक म्हाका मातूय खोशीना. तुमचें दुख, तुमच्यावेलें ओद्रूश्ट नियाळून म्हुज्याय काळजाचे घावे उगते जातात. त्या विश्वास घातक्यान म्होज्याय भोयणीक भुलोवन काजार जाता म्हूण सांगोन म्हुजे भोयणीचें सोगळे खांवन आंकवारपोणी एक भुरगे जोलमोतोच भुरग्यासोयत वाऱ्यार सोडलें. (खंतीन) ती म्हुजी भोयण आयज जिवीत आसताना आपल्या भुरग्या सांगाताक मेलोलें मडें कोशें जियेता. त्याच खातीर ताच्या सांगाताक भोंवताना तुका हांवें शिटकावणी दिलोली.

क्लेसी : (खंतीन) तेन्ना हांवें तुका ओकमान केलोलो.

रॅनात : ओकमानाचें म्हाका दूख जांवंक ना पूण तुवें सोमजोन घेवंक ना ती चोड दूख जाली.

बॅव्हींदा : तेन्ना तें ताच्या मोगान इतलें पिशें जालेलें कीं, रोहनाशिवाय सोगळे दुसरे मोनीस तें आपले दुस्मान सोमजोतालें. आमी ताका कितलें सोमजायलेलें, तेंवूय सोमजोन घेवंक ना. (सुस्कारोन) आवय बापायचें सोमजोन घेना तें दुसऱ्यांचें कोशें सोमजोन घेतेलें!

रॅनात : सोत. क्लेसीचेच पोरीं कितलीं चेडवां चेड्यांचे रुप, न्हेसोप आनी 'स्टायल' पोळोवन भुलोन मोगान पोडटात आनी जीवीतांत फोटोवन रोडटात. त्याखातीर वाडलेल्या चेडवांक म्हुजे सांगणे... चेडवानी चेड्यांचे रुप, न्हेसोप, स्टायल पोळोवंची न्होय, पुण बोरेगूण सोभाव पोळोवनूच फुडलें पावल घालचें. मॅडम तुमच्यांनी आतां वोचूंक येता. (बॅव्हींदा फुडें आनी क्लेसी बेबीक घेवन दुखी खंती मोनान भायर सरताना)

रोहन : (भितरसून) क्लेसी वेताय ... प्लीज एकूच मिनीट बेबीक म्हुज्या थांय दी. प्लीज फोकोत एकूच मिनीट बेबीक म्हुज्याशीं हाड! म्हाका बेबीचो मोग आसा.

क्लेसी : (भायर सरताना) तुका कोणाचोच मोग ना. तुका फोकोत 'दुडवांचो मोग'.

**(भायर सरताना काळोख)**

**पड्डो पडटा.**

## शेवोट



# वितोरीन पेरैरा

जल्म 23 ऑगस्ट 1953 वर्सा कोठंबी केपें हांगा जालो. मुळावे शिकप मराठी भाशेंत कोठंबी गांवात जालें. 1956 वर्सा ताच्या बापायन धंद्याखातीर कोठंबी गांव सोडून माजोड्डें - उतोड्डें हांगा बिराड केलें.

बापूय सोंपल्या उपरांत पिरायेच्या 16 वर्सा पयलो लोकां - खेळ बरोवन उतोड्डेंच्या तरणाट्यांक शिकोवन साबार गावांनी ताणी दाखयलो. दोन वर्सां लोकांखेळ दाखयल्या उपरांत 'गुन्यावकारी भाव' खेळ तियात्र बरोवन गोंयच्या खांची कोनशांनी दाखोवन बरो बरोवपी दिग्दर्शक म्हण नांवलौकीक जालो. उपरांत गरीबांचें चेंडू, गिरेस्तांली सून, नशिबांतलें काजार, सरीता, सेलीना, विचित्र निर्मण, कश्टांची लिब्रां, काळीं-कुपां , म्हाका फाव, कायदो आनी नीत, उपकारी संवसार, हिप्पी, सांगाती, निश्चेव आदी खेळ - तियात्र बरोवन, गोंय मुंबय आनी कुवेत शारांनी माचयेर सादर करून बरें नाव मेळयले. हांच्या भितरले, गुन्याकरी भाव, नशिबांतले काजार, सरीता, सेलिना, विचित्र निर्मण, सांगाती तियात्र चड नावलौकीकेक पावल्यात.

आकाशवाणी गोंय केंद्राचेर 34 लोकां खेळ आनी गोंय दूरदर्शनाचेर कांय खेळ प्रसारीत जाल्यात. सुटका, दुर्दशा, केलें तुका जालें म्हाका, हे लोकांखेळ चड लोकांच्या आवडीचे आसले. तांची रोमी लिपिंत उजवाड सिने टायम्स, वावराड्यांचो इश्ट, गोअन रिव्यू, जिवीत नेमाळ्याचेर तशेंच देवनागरीत आयताराचें राष्ट्रमत आनी सुनापरान्त हाचेर बरपां उजवाडाक आयल्यांत.

तांच्या खेळ तियात्रांक साबार इनामा मेळ्ळयांत तशेंच गोंवा कोंकणी अकादेमीवतीन तियात्र हातबरपाचें सर्तींत दोन वर्सां पयलें इनाम आनी दालगाद कोंकणी अकादमीचे सर्तींत पयलें इनाम फाव जालां.

कला मळावेल्या तांच्या वावराची दखल घेवन गोंय सरकारान प्रतिष्टेचो गोंय राज्य संस्कृतीक पुरस्कार भेटोवन तांचो भोवमान केला.

हे आदीं तियात्र सर्तींत जैतिवंत जाल्लें तांचें 'आशिर्वाद' हें तियात्रांचें हातबरप अकादेमीन पुस्तकरूपान उजवाडायलां.

